# अग्नी

निलबा अ. खांडेकर

सुरू प्रकाशन

**अग्नी**

निलबा अ. खांडेकार

**AGNI**

(POETRY)

NEELBA A. KHANDEKAR




- संस्करण :डिसेंबर २००२

- उजवाडावपी : सुरू प्रकाशन
  दोंगरी, मंडूर, गोंय

- अक्षर-संयोजक : अक्षर रचना
  पणजी,
  गोंय.

- मुखपृष्ठ : एकनाथ महाले

- फाटलें छायाचित्र : सुशांत नायक
  सावर्डे - गोंय.

- छापपी : प्रिंट आर्ट ऑफसेट प्रिंटर्स
  कुंडय इंडस्ट्रीयल इस्टेट,
  कुंडय - गोंय.

- मोल : रु. ११०/-

जाणे निर्मितीचें दायज नाखरशेता चलयलें,
गरमी नाशिल्लो उठाव करूंक शकना हें तत्व रूजयलें
त्या आदितत्वाक...
त्या सर्वयामी सूर्यात्म्याक...

# अग्निरंग

# लोक

लोकांचे किदें?
आयज एक उलयतात फाल्या दुसरें
फक्त गजाली, काळखाच्या सांवळेंत दडून
खूप किदें करपाचें मागीर मनांतूच उरता
आनी अस्तमतेकडें सूर्या पावतकीच कायच न केल्ल्याची खंत
पोखरीत वयता सकाळ-सांजेच्या वेंचिल्ल्या खिणांक
पोक्या खिणांक म्हत्व नासना.
काळखांतली तांची धवी मुखामळां
मागीर वळणलेल्या भशेन जायत काळखाच्याच रंगान
काळखांत सामावन रावतात
परिस्थितीचें मोल जाणां जावनूय तांका नांगोर उडोवचोच पडटा
असहाय.
तेन्ना अनितीचे राजकारण आपणावपा फाटल्यान
आनी मार्गूच उरना
तेन्ना त्या लोकांमदलोच कोण तरी एकटो
आपलें हिजडेंपण वांजयता
आपल्यांतल्यानूच सगळ्यांचो बावटो हुबयत
'कलीयुग आनी किदें?'
तरीय कलीयुगाचेर आरोप करतल्यांक खबर आसता
सत्य युगांतली नार्डिगपणां अमृत वाट्टनाची
गुरवार भावजेर बलत्कार करपी देवगुरू बृहस्पती
आनी विष्णूच्या कपटांचे फेहरिस्त
त्रेतायुगान शंबुकाच्या आनी वालीच्या हत्येचें
आपल्या कपलाक फांशिल्ले काळें
तशें द्वापर युगुय खंयच कमी पडलें ना
किरात पुत एकलव्याच्या श्रद्धेक ख्यास्त करतना
अनितीचें म्हाभारत
भीष्म, द्रोणाचार्य, कर्ण आनी दुर्योधना वांगडा खेळटना.
दोश आपल्या नदरेंत आसा म्हणोनूच सरकारां कोसळटात
दुर्वेस जाल्ल्या मड्यांभशेन
म्हणोनूच सरकारां कवितेंत दिसतात
हातूंत व्हडलें लावन घेवपाचें कायच गरज ना

कित्याक लोक वग्गी आसतात, वग्गी रावतात
सुक्या खरखरीत फोलीभशेन.
तेन्ना लोकांनी समजोवचें
सगळे लोक सारखे आसात, स्वतंत्र आसात
सगळ्यांक न्यायाचो हक्क आसा
आनी हो जो भारत आसा तो
तो आपलो देश !

# घर

किजीलांची चुमळ करून घरान घेतला माथ्यार
वंशकुळाचो भार, मोन्यांनी
तसो घरांतलो आकांत घरभर पातळ्ळा
रिकाम्या जाग्यांनी
तरीय घर सांभाळून आसा मनशांतलें मनीसपण
आनी सवसकायेचे आंवडें
घर हुमऱ्याभितरूच आसा
सासणाक जियोवपाचो वसो घेतिल्ल्याभशेन
घरांतली ,दर एक वस्त यातनांच्या फागुरांनी
फडफडटा ते आयकूंक येता
मदेंर, माती आनी फातरांच्या दोळ्यांनी तें पळयता
उबगवल्ल्यो जिण्यों आनी बरगेल्ली उमेद
आपल्या पांखट्यापोंदा वावुरपी मनशाळ्या यातनांनी

घर अस्वस्थ जाता
एक मायतो बरो वचत जाल्यार
दुसऱ्या मायत्याची गॅरेंटी दिवपी काळजां उस्तुवची पडटली
जीं फक्त यादींच्या खाजनांत गडप जाल्यात
आनी तरीय त्या यादींचेर उबे रावपाची उर्बा घर गाजयता
हातावयल्या तायटार धरून दरेक पावल निरखिता
तांची तांक आनी गती मेजीत

ह्या सगळ्याच्या आवेगांतल्यान
आपल्याक ल्हव करतना घर फुतफुता,
वोंठाभितरूच उतरां अंदून
व्हड रातीर आकांताचो कलकलाट सोशीत
घराक थरथरून येता कवळ्यांनी, पोटांतल्यान.
घरा फांटल्या पिंपळापोंदा घर दिश्ट काडून घेता,
काळखाच्या आधारान
कुशीचें परतोंवप जाता धपट्टल्या, चिड्डयल्या उस्कारांत
घर वरखेंत पळयता पैस सपनांतल्यान
काळखाच्या घुडार बसून साद घालतल्या कोंब्याक

आनी नव्यान भानार येता
त्या भानांत घर पोगळटा
नव्या उदेंतीची उमेद घेवन
हेंर घरांभशेन नासत हें घर
तरीय एकसूरपणाच्या किण्ण रानांत घर दीस काडटा
सांवळेचो आनी मनशांच्या वोल्या मनांचो
आलाशिरो घेवन
वंशकुळाचो धागो जावन

## ह्या शेकड्याच्या कचाट्यांत

हांव म्हजेभशेन जियेत आयला
दूसऱ्यांचेय जगप मतींत दरून
म्हणोनूच हांवे सत्य केन्नाच
मिटपाक दिलेना
हडप्पा आनी मोहोंजदारो इतलें
तसो फटीचोय केन्ना आधार घेतलोना
हे भुंयेर हांवूच अजन्टा आनी एलोरा
हांवे राजनीती पळयली आनी राजनीतीय केली
वेळाकाळाचें भान दवरून
तरीय उतराक जपला
म्हणोनूच म्हाका भोगचो पडलो वनवास-भोग
त्या वनवासांत हांवे पळयले म्हज्या उघड्या दोळ्यांनी
तारामती आनी रोहिदासाचो उध्वस्त
जानकीचें अपहरण
विराटाचें किरयादपण
म्हणोनूच दूबळ्यांक वाचयतना ससाण्यांक लेगीत
हांवे म्हजे मांस कातरून दिला
ताच्या वजना इतलें
कवच-कुंडला वांगडा हांवे म्हजे मरणूय दिला
हांवे दरेक सीतेक रावणाच्या तावडींतल्यान वांचयल्या
दरेक द्रौपदीची लज धापल्या
आनी गर्भांतल्या जीवाचो नाश करपी
अश्वत्थाम्याच्या हीन कृतीक
वेदनांचे चिरंतन जिवीत दिला
दरेक अजाणत्याक हांवे म्हजें रक्त दिलां
आनी आयला आयु दियत.
कांय अन्याय हांवेय माफ केले
पूण सोंसू नजो जालें
तेन्ना मात म्हाका कित्येक शिशूपालांचे मरण
निश्चित करचे पडले
लडचे पडले रामायण, महाभारत

स्वराज्य हो जल्मसिद्ध हक्क मेळोवन दिवपी
स्वातंत्र्य संग्राम

हांवे घेतलो बोध पानीपतचो
भोपाल गॅस ट्रेजेडीचो
हांवे पळयला वर्ल्ड ट्रेड सेंटरावयलो घात
गोद्रा हत्याकांड
आनी काश्मिराच्या दोळ्यांतली दूकां

हांवे बांधून दिली अवजरां म्हज्या हाडांसावंन
ह्या नव्या पिढिक
म्हणोनूच हांव येवजीता
खंयच्याच तरनाट्या अभिमन्यूची तांक
आता मातयेभरीस जांवचीना
आझादांतलो ज्वालामुखी वायफळ वयचोना
नेताजी सुभाषांची आधुनिक भारताची सपनां
तैहोकूत चिड्डोवचीनात

म्हज्या रक्तान हांव शिंपीत आयला
निर्मितीचें बीज
समृद्धीचे म्हामंत्र
तरीय म्हज्या कपलावयल्या घामान हांव भरता
फांल्या उदेपी दिसाची बुनयाद
मोग आनी मोयपासान
करूणेच्या स्पर्शान
पूण सगळे काळखाची वाट पळयतात
काळखांत तकली चलना
वळख उरना
म्हणोनूच जण एकलो काळखांत रावन आतंक शिंपडटा
आमच्या आवड्यांचो आनी सपनांचो गळो अंदीत
दिसाची भिरांत आसता
म्हणोनूच एक वेळ दिसता
हांव एका विचित्र काळांत जगता
जेन्ना – न्हंयत उदक आसा काय ना

कोणूच सांगोवक शकना
जेन्ना – मळब आसा काय ना
कोणूच सांगोवक शकना
तरीय दूबाव आनी भंयांत जियेता एक लोकतंत्र
धर्मांचे फुडारपण घेवन

धर्म : एक कोलूक गांवगिऱ्या शारांतल्यान लेगीत
हेडत आसता गाणीवयली शेपडी उबी करून.

ह्या शेकड्याच्या कचाट्यांत फारोवनूय
हांव म्हजे म्हाका शाबूत दवरीत आसा
म्हणोनूच म्हजेभितर हांव आधुनिक भारताची सपनां
ताजी टवटवीत दवरूंक शकला
म्हजे भितर आता लेगीत खंय तरी एक
गुलाब फुलत आसा.

## झिजस, तुज्या फाटल्यान...

आनी शेनड्यांचो संवसार कोंमेस जालो
त्या सूर्याच्या अस्ता वांगडा
युगांच्या पिडणुकेंतल्यान बेटलहेमात फांकिल्लो उजवाड
काळखाच्या गर्देंत मिसळून गेल्लो

... भौजना खातीर आपल्या अस्तित्वाची साक्ष दितना
फक्त संवसाराच्या वण्टीचेरूच तूं आपटतालो
झिजस, संवसारांतल्या दूखांचो खूरीस खांदार मारून
व्हांवयतना तुका हांवे पळयला
दुकांतल्यान चलतना तुजें रक्त-बंबाळ पांय घेवन
जेरुझेलेमाच्या मळबा सकयल्या दूसवासाच्या मातयेवयल्यान
तुवें उस्तील्यो चारूय दिंको
आनी उबाल्ले दुबळ्यांचे तुटलेले उस्कार
काळजांत एकठांय करून दुकांचे तळें
आनी तुका मेळ्ळो उजवाडाचो रस्तो,
तुवें उजवाड वांटलो
काळखाच्यो शिंमो हूंपून
तेन्ना अस्तोवपी त्या सूर्याचो
सोंपून कोंमेस जाल्लो दुसरो अंतरो
केन्ना सोंपलो हें कोणाकूच कळ्ळें ना
तेच परिस्थित तुवें मागली जाहीर माफी
हांच्या अडाणीपणा खातीर,
'हे सर्गाच्या बाप्पा, हांका माफ कर
हे किदें करतात तें तांका खबर ना.'

आमी उसरां पांवोवक नात, येहूदींच्या राजा
तूच खूप पयलीं गेलो
फांटल्यान फक्त जुदास दवरून.
झिजस, आमकां तुजी सोंसून धरपाची तांक दी...

आयज तिनसांजच्या वेळार
ताणें एक झिजस तयार केला, गोट्यांत दवरपा

कांय कॅरोल्सांचे पांठांतरूय करून दवरलां
काळखाक उठोवपाक
पुण हांगसर तर उजवाडूच जावक ना काळोख जावपाक
तशें धांवतें मळब वेधून घेवपी तें मरण जनेल ताणें धांपलें
तुज्या शिरंतरांत खिळे मारतना
तुवें सोंशिल्यो प्राणांतिक वेदना
आनी घातक्याच्या मनावयलो चांदीच्या तीस नाण्यांचो
पेज तो अणभवता
तेन्ना ताच्या काळजाच्या गाभ्यांत
ELOI, ELOI, LAMA SABACHTHANI ची
मोनजात उतरां ल्हवू ल्हवू मोटी जायत वयता
आनी काळोख शिरूशिरून वयता ताची शिरंतरां.

स्वतासांवन कुडक्या-कुडक्यांनी शिंपडिल्लो तो
एकठांय जावंपाचे खूप यत्न करता केन्ना सांवन
ताचे दोळे काळखांकूय उघडेच आसता
तरीय ताका किदेंच दिश्टी पडना.
लापीयांवाच्या सांगातान चलपी शेरनाद
खूप मुखार पाविल्ली आसता
सांताक्लाव्जाची वाट ताच्या तटास उगड्या
दोळ्यांत सांडोवन

आता हांगसर असोच सुर्यास्त जाता
झिजस, तुज्या फाटल्यान...

# देवळा भायर

हांव कित्याक शीणटा म्हज्यांत रूजूंक नाशिल्ल्या
आध्यात्मिक भावनांचेर
काल्पनिक घडामोडींक इतिहासाचें रूपडें घालून
संवसार मिंरयता पिशांचे खूळ
हे सिद्ध जांवनूय
मनशांचे घर
गोरवांचो गोठो
कूकडांचो घूड
आनी फातरांच्या देवांचे देऊळ
जंय सांवन सभ्य संस्कृतीचे धडे गिरोवक
सुरवात जाली, मनशांच्या घरांच्या राह्नी मेरेन
कळना ही जानव्याची करामत काय
सभ्यतेर सांवार जाल्लो भावनांचो पिशाम्हारू?
पुण मनशाची विटंबना मात नक्कीच

ह्या देवळाच्या चौथ्या सोंपणार बसून
हांव आयकता घांटीचो गाजपी नाद
भितर चलपी श्रवणीय अशे मंत्र्योचार
आनी यो-वच करपी लोक
कांय मागोन आयिल्ले कांय मागपाक वचपी
मागपी किदें मागतात आनी दिवपी किदें दिता... (?)
भोंगू दिसपाचें
तसो हांवे म्हजे म्हाका खंयच तेंकोवन दवरूक ना
मागतलो तर कोणाकडें?
आनी दितलो तर कोण?
आनी म्हाका कोण किदें दिवपाचे आसा?

सगळें पळयता हांव म्हज्या अपेक्षाभंगासैत
ह्या अणु-परमाणूच्या युगांतल्यान
जें आसा तें आसा
ना तें ना
जें म्हजेकडें आसा तें म्हजें

ना ताचेर हांव कसो अधिकार सांगोव?
ह्या सोंपणाचेर जें सांवळेंत हांव बसलां
ती सांवळी म्हजी
म्हजें काळीज हालोवन जें वारें आताच भायर सरलां
आनी जें आता भितर सरतलें तें म्हजें, एकट्याचेंच
दोन दोळ्यांक दिसपी मळब म्हजें
हे हात-पांय, तकली-पोट सगळें म्हजेंच
म्हज्या वांट्याचे सगळें म्हजेंच
म्हजें अशें चिंतप लेगीत धरून
म्हज्या कानार पडपी हो घांटीचो आवाज, मंत्र्योच्च्यार
आनी म्हजो म्हज्यांत जड जाल्लो विघटनाचो शीण लेगीत
जरजरलेल्या म्हज्या बूशकटासैत...

## मनोभूंय

पावस येतल्याची खबर आयकतांच
ताणें पोट दामून जोत बांधलें
कोसाच्या वांटेर आशिल्ल्या वोंडक्याच्या उदकान
चोंरवो शिंपलो.
तिच्यांत मात पावसाची उमळशीक उदेंलीच ना
तिची नदर पारखी
बियेंच्या बोट्यावयली न्हय, अणभवान जोखलेली
कांय नमुन्यासैत पटोवन दिवन लेगीत
तो आपल्या वाद्याचो

सगळ्या तोंडार पावसाची दडक घेवन
तो मना-मनांत खोशी जालो
तशें ताच्या मनांत एक-एक कूप मोटे-मोटे जायत वयता
हिंदी म्हासमदीरांतल्यान येवपी मानसूनचें काळे किट्ट.

ताच्या सुकिल्ल्या वोंठार
एक पावसाचें गीत फूट्टा
ताच्या नसत्या खोशेची लक्तुबाय करची
काय राग धरचो (?)
अशें येवजीत ती निरखिता
वोल्तावयलो नागडो बाबडो लुटिल्लो चांफो
तिच्या दोळ्यांत ताचें गीत हुलपोवन वयता
आनी पायांपोंदचो आषाढ
वेदना जागयत गाबळांनी फुट्टा

ताच्या जोताचे पाडे आतां
शेतभर शेतांत भोंवत आसतात
आनी ताच्या धव्याफुल्ल दोळ्यांतल्या मळबांत
तो पावसाची कूपां सोदीत आसता
तिच्या अस्वडीं.

तिका उगडास जाता
ताचो कुळदेवते मुखावयलो सोपूत

आनी तिका भरुन येता आंगभर
'सुखा-दूखाचे आमी वांटेकार सासणाचे'
अशें येवजून तिणें जोत बांधले नव्यान
चोरवो पिड्ड्यार जांवचो न्हय म्हण
वोल्या मातयेचे निर्मितीचे उमाळे पळयले
आनी एक मनोभूंय आपशीच तयार जायत रावली
पावसाळी खोशेचें तिच्या दोळ्यार मळब जालें
भूंयेत तिच्या हाताचें आनी काळजाचें उदक आशिल्लें

आपले जमनीत आपले कष्ट पिकतात
हाच्याहून बरी गजाल खंयचीच आसूं नजो.

# उदक

हांव तळपट्या सड्याचें मृगजळ पळयता
सैमांत वाडलेल्या तापमानाच्या
रवदिऱ्याची तान पळयता
हेली धुमकेतूच्या येवपांत
संवसरावयली अरिश्टा पळयता
जैविक अवजरांची उत्पती पळयता
आनी पळयता रेवेंच्या राशीन बुडिल्ली पृथ्वी
तापिल्ले रेवेंन सगळेंच उदक चिंवन घेतलां
सगळें जिवीत

'उदक सांठयात, उदक वाचयात'
ह्या घोषवाक्यांत आता अर्थ खंय उल्ला
अर्थ उल्ला डायनोसराच्या हाडांभशेन
लाकडांचे अवशेश एकठांय करपांत
अर्थ उल्ला धरतरीच्या गर्भातल्या
धरणाच्या उद्रेकांत
अर्थ उल्ला मानवतेक गेल्ले वेरेंक
अर्थ उल्ला भिजोवन,
१९९१ च्या कायद्याच्या चोमडेपणांत
म्हण काळजाच्या उदकान
आपणेंच आपल्याक शिंपपाचो आसता
आपणेंच आपल्याक पाचारीत.

उदकांत आपली वळख आसा
म्हण ही सृश्ट खोल रूजयता आपली पाळां
उदकाच्या सोदाखातीर
तेन्ना आपले भितर उदेवपी सूर्याक
अर्ध्य चडोवपाक हेडत रावचें पडटा
एका जाग्यावयल्यान दुसऱ्या जाग्यार
आनी सूर्य माथ्यार चडत रावता
मर्ण शिरंतरांत घेवन उदकाचो पर्याय म्हण
मेन रस्त्याक फुटिल्ले हांव रस्त्यांचे फाटे पळयता

आनी फाट्यांनी वसलेल्यो वस्त्यो
जातूतंल्यान फक्त गरमेची वाफ दीस-रात
व्हांवत आसता
थंडसाणेची चिन्हां हुलपयताना
तेन्ना नदरेमुखावयले झाड खावपाक लागता
आपलीच फळां टकाटक करून
आनी उल्लेल्या सुल्लेल्या वस्तींतल्या उदकाक
तुमी दाखयल्ल्यो आसतात चातुरवर्णाच्यो शिमो
आनी हांव पळयता तो दीस
उदकाखातीर भिक मागतानाचो
तेन्ना उदकासारकें सोबीत कर्तव्य लेगीत
हुलपावन वयतलें मानवतेवांगडा.

# वणवण

पणज्यान भाटकारालीं दूरगां घासतां घासतां
म्हज्या आज्याकूय जमीन पुसपाक शिकयली
शिमिटाची.
जमनीच्या कुडक्याच्या आशेन बेनुलूय भेंडली.
घडये भाटकारालेंय मनीसपण जागें जालें आसतलें.
कर्तबगार आज्याचें पटलें
तेन्ना जमनीच्या कुडक्यार आमचें एक कौलाचें घर उबें जालें
पांच जाणांच्या सांवळेक.
त्या पाख्याच्या सांवळेखातीर रात-दिस कूले झरले.
बापायचें तरनाटेपण खुपूच उपकारा पडलें.
आंश्रूणांत दूखांय झडली.
पणजो तो बापूय
ह्या तोंकामेरेन अक्षरांचो शृंगार कोणेंच सजयलो ना
निरक्षरांचे फांस्केंत बंद रावोन वणवण हेडले
तशे दिसावड्याचे कश्टूय केन्ना सोडले ना
तरीय भुकेचे दोळे मळबाकडें पळयताले
पावसाळे वत्ताले
बापायन वशाड जमनीर शेत पिकयलें
आवय आनी भुरग्याकडल्यान कश्ट घेवन.

आमच्या घराण्यांतल्या बायलांनी
खास अशें कांयच केलें ना
हेंच, न्हंयचेर वचून धुणीं धुंवप
वायनार भात कांडप, शेतांत मेंरो घालप
आनी पारपोळीकडल्या रानांतल्यान
शिंरपूटांचो भोरो माथ्यार मारून
साऽऽसूऽऽ जायसर घरा हाडप
चूलीच्या भकीक घालूंक.

म्हजो बापूय एकटोच. चार भयणीं
म्हणजे घरचे वोजें एकट्याच्याच माथ्यार
लाडांतल्यान वोगोत मेळ्ळो जाल्यार माथ्यार घेवपाचें.

मागीर भयणींची लग्नां
व्हांवत्या वादळाच्या हाती दिल्लो जीव
आडोन धरता म्हण्टसर
वणवण चालूच आशिल्ले
निमण्या खिणांमेरेन.

म्हजें सुमाराचें चल्लां
पणजो, आजो आनी बापायन
दिल्ल्या वणवणासैत.

# रस्त्यावयली लामाण्यांची भुरगीं

खरें म्हटल्यार आपलोसो ह्या संवसारांत
कोणूच नासना, आपल्या स्वताशिवाय.
जगप जेन्ना कठीण जाता
तेन्नाच ताचे अणभव मेळटात
दर एकलो जगता आपल्याच संघर्षातल्यान.

रस्त्यावयल्या लामाण्यांच्या भुरग्यांक पळोवन
म्हाका दिसलें तांचें शापित जिणें
तांचेकडें व्हावपी बहीष्कृत वारें
व्हाऱ्यावयल्या घाणींत तांचे इल्ले-इल्लेशे हात कैर उस्तीतना
आनी गुवाडेंत रावन हुस्कार घुस्पयतना

तांच्या खांदार जिणेच्या साका पोटलेवयल्यान सूर्या उदेता
उश्णें हांशें घेवन भुरगेपणाचें
घडये तांच्या मुखामळांत सामावक शकपा ना इतलें

असल्या वयात ताणी 'श्री गणेशा' चिरपाची
चित्रबोधार चित्रां काडपाची पेन्सिलीचीं तोंका मोडून
आनी अभ्यास करून बेजार येतकीर
हाताचे निमणें बोट वैर दाखोवन खेळूंक धांवपाचें

हें सगळें पोट भरल्यारूच येवजोवपाचें न्हय?

जिणेंचे प्राथमिक हक्क दिमकूऱ्यांनी चलपाचे
मळब मोडून स्केअर फूट नळ्यांची सांवळी आसपाची
वेतभर पोटाखातीर वांवभर जीण वणवणटा
तीनूय पारा
पावस आसूं उनत
लोखणाच्या कस्पटांत
फुटलेल्या प्लास्टीकांत
दूद पिंवपाच्या तन्ह्या वयात
जीण घुस्पता दुदाच्या रिकाम्या पिशव्यांनी

ना कूंयदाद मुस्तायकेची
ना फिकर अस्तित्वाची...

हांव त्या लामाण्यांच्या भुरग्यांक पळयता
भुकेची जाण आसूनूय
गुवाडेंतल्या चित्रांतल्या शिंवाचे दांत मेजतना
आनी त्याच कागदाचें विमान करून वाऱ्यार सोडटना...

जिणेचें वजें फाटीर दवरून
दोळ्यांत बांदून सपनां
तरीय तांका चलपाक जाय
पावलान पावल जीण सोदूंक,
संवसाराच्या अंतामेरेन.
थंय तरी घडये ती आत्मविश्वासाचीं
आनी आत्मसन्मानाची पांवलां मारूंक शकतलीं,
अंधश्रद्धेतल्यान जायना !

# दुबळ्या शारांतल्या

सूर्य बेजार जांवन  टेनशनांत आसा
दर्याच्या आडसाक आशिल्ल्या बिल्डींगां फांटल्यान.
सांज देंवता तशी ताची चिंतना वाडटात
विसकटलेल्या केसांत, वाडलेल्या दाढयेंत
आनी किलकिल्या दोळ्यांनी तो पळयता
रेवेंत खेळटल्या त्या पांच वर्सांच्या भुरग्याकडें
जाच्या भुरग्यापणांतल्यान फुडार रुंदावपाचो आसा
नितळ निळ्या उदकाच्या मनांतल्यान
आनी हाची ताका कल्पना ना
ल्हारांच्या धपक्यान कोसळिल्ल्या ताणें
बांधलेल्या रेवेंच्या पुलाभशेन.
पुलान दोन मनां मेळयल्यात.

सूर्याच्या दोळ्यांत मळब देंवता
मीर्गापयलीच्या दूशेणांचें
आनी त्या शीणांतल्यान तो दोळे परतीता.
शाराच्या पलतडीं रस्त्यावयल्यान
दोग जाण हातां बडी घेवन चलून वयतात
तांच्या पांवलांच्या कूरवांचेर ताची नदर पडटा
सूर्य अस्थिर, अस्वस्थ जाता
शाराच्या विखाणूनी बरगेल्ल्या जिणेक पळोवन.
पाशीयेस तुकलायता तेन्ना तो उबो जाता
काडोवन वचपाक
शांरातल्यान, गल्ल्यांतल्यान

ताचें यत्न चालूच आसतात
तसोच काळखाच्या आधारान तो बसता
थाम्यावयल्या शिमिटाच्या सोंप्यार
मुखार व्हांवपी लोकांची येरादारी पळयत
ताची नदर एकमेकांच्या पांयां घुस्पता
पांय कवळून तो खाडकी धोपरार दवरता
आनी अर्ध्या धांपिल्ल्या दोळ्यांतल्यान

पळयता आपलो शीण
आपल्या भितरूच तो गुणगुणटा वोंठावयलें गाणें
गाण्याच्या तालार आंगठ्याच्या बोटान
तो किसयता शिमीटापोंदची माती
टेनशन मात्शें कडेक सरता
म्हण्टसर ताची नदर सायडीक बशिल्ल्या
म्हाताऱ्याचेर पडटा
जाचें म्हातरपण ह्या मोडिल्ल्या हातगाडयेभशेन
तरीय हाची जाणीव ताका घडये चड करून नासचीच ना

सूर्य फक्त हांसता मोन्यानीच
आनी नदरांच्या पोशान दोळ्यांच्यो पातकोड्यो
आवळून घेता
ताका काळजी दिसता सगळ्यांच्याच म्हातारपणाची
आनी अजून जल्माक येवक नाशिल्ल्या भुरगेपणाची
दुबळ्या शारांतल्या.

# उस्तुरें

दरेक गुन्यांव पळयतना
हांव गरजता म्हज्यांत
दांत-ओंठ किल्लून मूठी आवळटात
हांव अस्थिर... मानसीक, शारिरीक
पूण हें सगळें व्यर्थ
हेंवुय सामकें दूखेस्त जावंन सांगचे पडटा
परिस्थींत सामावन
हांव राग न्हींवोवपाचे यत्न करतां
वाऱ्याच्या दिकेन शीड सोडून
आवळिल्ल्यो मुठी वण्टीर मारून

सरभोंवतणी हांगा-थंय पांय लेगीत घालपाक मेळना
आड न्यायान चलपी सगळे
आपलें शेंकरें फुलयत आसतात
आडेकडेची सुवात मेकळी करूंक
तशें मुक्त वारें हांगसर आतां केन्नाच व्हांवना
प्रदूषणाचे विखाणू जिणेच्या खाची-कोनशानी पांवल्यात
तरीय सगळ्यांच्या गळ्यांत एक किण्ण मोनेपण
कोन्या फोलीवयल्या सरयांभितरलें

हो जो काळ आसा मोन्यानी पळोवपाचो
नदरो आपल्या पुरतीच बंदीस्त दवरपाचो
अपमानास्पद जिण्यांचो
(लावन घेतल्यार)
तो गाजोवंक जांवचो ना, कितलोय निषेध करून
कित्याक काळखाकूच आमी गुन्यावकारी केला
आनी काळ कोणाकूच रावना
आपणेंच आपल्याक खंयतरी 'ॲडजेस्ट' करचो पडटलो
नाजाल्यार आपल्या हातांक फक्त काळोख उरतलो
आनी काळखांतल्या त्या गरजपाक इतिहास गवाय दिवचो ना.

# विचार जावपाक जाय

'देड शाण्याक फातरां शीत'
अशें म्हणोन त्या शाणेपणाच्या चिंतपाक
आमी थोमणे कित्याक मारचे
हाचो विचार जावपाक जाय
शाणेपणाचें क्षेत्र शाण्यांक मुक्त सोडून
'विचार करून केल्ली कामां सदांच बऱ्याक पांवयता'
अशें आमचे विचारवंत म्हण्टात,
ते मागीर राजकारणी जांव
तांचे विचार आमी आमचेर कशे लादचे
हाचो विचार जावपाक जाय
येणेर कसो वाडोन इल्लें इल्लें तापोवचें
घाण्याच्या बैलासारखे जगप जगचें
भाटकारशाहीचो शेक मिरोवक निमित्त मेळचें
हाचो विचार जावपाक जाय
पोटभर तर नाकाच,
अर्ध्या पोटार उठपा इतलें जेवण मेळचें
हाचो विचार जावपाक जाय
विचारांनीच घुस्पोन रावं नासतना
वास्तविक प्रक्रिया करून दाखववपाचो
विचार जावपाक जाय
शिमेवयल्या लोकांक एका वोळीन उबें करून
आतंकवाद्यांनी फारान माल्ले
ताचें दूख धरी नासतना
तांच्या सांडलेल्या रगताकडें पळय नासतना
फट् करून आतंकवाद्यांक वायट म्हण नासतना
तांणी तांका कित्याक माल्ले
हाचेर विचार जावपाक जाय
गरज पडल्यार धा जाणांची समिती नेमपाक जाय
जी दिसाक वर भर लेगीत काम करी नासतना
आपलो अहवाल सात-आठ वर्सांनी सादर करतली.
आनी आयज शिमेर जाल्लो नरसंहार

लोकांक उगडास लेगीत उरचो ना
हाचो विचार जावपाक जाय

दिसपट्टी जाल्ल्या मनीसपणाच्या हत्तेफाटल्यान
'परकीय तांकीचो हात आसा' अशें म्हण नासतना
मानवतावादेक कसो थारो मेळटलो
हाचो विचार जावपाक जाय
आमी शांतीचे पुजारी
डॉलराचें फुडारपण मानून आमकां रूपयाची घसरण
मान्य आसपाक जाय
विश्व-समुदायांत वावूरपाचें आसत जाल्यार
हाचेरूय विचार जावपाक जाय
जगावयल्यों राटावळीं पांख्याक खोंवन
इल्लेशें जेवण, आंगार कपडे पांख्यापोंदा रावन अणभवचें
मनशाक मनीसपणाचें जीणें मेळचें
हाचो विचार जावपाक जाय
नाजाल्यार अणुबॉम्ब कशे तयार करतात
हाचें गिन्यान सगळ्यांक दिवचें आनी ताच्या वापराक
परवानो वा बंदी नासची
हाचो विचार जावपाक जाय.

# अमिताभ बच्चन

आपली जीण निष्फळपणान सोंपत वयता
शिंविल्ल्या ओंठांभितर,
हाची जाण करून दितना
तुज्या आवाजाच्या तेंगशेर तांका जाग येता
मध्यानीर पडिल्ल्या सपनांभशेन
आनी दोळ्यांतल्या बिण्ण् काळखांत ते कोसळून पडटात.
तेन्ना भायर जिळमिळूंक लागिल्ले आसता
एक नवो समज
एक नवी विचारधारा
विद्रोह जांवन ते शिंपडटात
तांच्या विश्वांतल्यान तुजो फुडो घेवन
कलकत्यांतलो तुका आपल्या मन-मंदिरांत बसोवन.

भूतकाळांत साठलेलें उदक तुज्या ओंठावयल्यान
झिरपूंक लागता
तेन्ना काळज़ांचो घुस्मटमार धील जाल्लो आसता
एका आंदोलनाक सुंवात मेकळी करून दितना.

हांव पळयता तांका
पड्ड्यातल्यान तुज्या क्षेत्रांत भितर सरतना, सहजतायेन
जसो तू डाकवांच्या हड्ड्यांचेर
सैल जांवन वावरत आसता 'विजया' च्या जयांतल्यान
तांबड्या रगताची गाज
तांका अणभवली
तुज्या प्रस्थापीत आदर्शाभशेन
तेन्ना तूं जालो 'सूपरस्टार' गांवगिऱ्यांतल्यान लेगीत

तुज्या संवाद उलोवपी रूंद वोंठांक
एक वेगळेंच म्हत्व आशिल्लें
तुज्या जमेच्या डाव्या हाताभशेन
विश्वसुंदऱ्यांक लायनीक लावन

मुंबयचें आनी फुलनदेवीचें सत्य तुवें प्रदर्शित केलें
संस्कृतीचो बॅनर मोटवो करून.
तुजी क्षमता लांब पल्ल्याच्या रेशीच्या घोड्याची
हें पड्ड्याभायरूय सिद्ध जालें
म्हणोनूच घडये
'यँग्री याँग मॅन' आतां खूप जाणांक पटूंक लागला

मुखार पाविल्ल्या तांचो आवाज आयकोन
तो आतां ख़ीणा ख़ीणाची खोशी अणभवता

# बुमरँग

स्वार्थाशिवाय हांगसर कसलोच धंदो
सुखाचो जावंक शकना
दुसऱ्याची गाण मारून लेगीत कुशेंस दगावना
स्वातंत्र्य, स्वाभिमान हातूंत कांय तथ्य ना
सत्तेच्या राजकारणात स्वार्थूय आपलें नांव दवरून वयता
लोकशायेच्या माचयेर
जांव तो हात वा कमळ,
चक्र वा कोयतो-कणस, शिंव वा घोडो
सगळे आपल्या बोध चिन्हांभितर उबे रावन
अजाण जनतेक घुस्पयतात
आपली सुटका करून
तेन्ना देशभक्ती खातीर त्याग आनी आवय-पूताचे नातें
याद करून दिल्ली आसता
'देशा खातीर बलीदान दियात'
ह्या घोषवाक्यांत आतां जीव खंय उल्ला?
कूशेंस; एका धडवल्ल्या घाव्याची मातेर
आयज 'हांव आनी म्हजो पक्ष'
देश-बेस घाल चूलीत
मेळटा तितल्यांच्यानुय आपणावचें
हीच 'श्रींची इच्छा'
फांटी-फुडें सगळ्यांक जोडून दवरचें
नातरां-पोतरांक हुसको उरचो न्हय
जांव तो हवाला वा चारा, सिमेंट वा पेट्रोल
सेंट किट्स वा बोफोर्स
ही सगळी धांव पैशांची, पैशाखातीर
सत्तेची सत्तेखातीर
पैशे आसले बगर सत्ता हाती येना
आनी सत्ता आसले बगर
कायद्याची गाण मारपाक जमना
मुखावयली सीबीआय एन्क्वायरी, एक घुंवळीचें पिल्ल
बोट दाखयतल्यांच्या आत्म्यांचे निवारण
आनी मागीर चोराच्यो उलट्यो बोबो

साबुद्दीर रावन केल्ल्या कामांत
जनतेचोय अजाण आसपाव घडटा
तेन्ना जनतेच्या आड्डोवपाच्या वेवारांत
विधानसभा भंग जाता,
लोकसभेचें कामकाज बंद पडटा... धरणां... मोर्चे...
ह्या सगळ्या चोरवाटांच्या दहशतवादांतल्यान
बातम्यांच्या दोन दिसांच्या टेन्शनांत
संतप्त विखाणू आंगभर तोंपतात.

दिसांच्या कुशींतल्यान दीस परतता
एके काळच्या स्वातंत्र्य सेनानींच्या आश्वासनान
आंगांतले विखाणू ल्हवू ल्हवू आता पडिल्ले आसतात
उल्टी जाल्ल्या कालोरांतल्यान.

सत्ता पक्षांतर करता
तेन्ना नवी धून कानार पडटा
नव्या घोटाळ्याची
यो रे म्हज्या मागल्या करीत
तेन्ना वाऱ्यांत निकरोप परत मिसळिल्लो आसता
शंबर कोटी जनतेच्या दुबळ्यापणाचे
बारा ब्रेस्तार आनी तेरा सक्रार करूंक.

# कुंती

भर दिसाच्या उजवाडांत हांवे तुका पळयली
आंगावयले कपडे देंवोन म्हाका खुणयतना
कपड्याभितरले सौंदर्य पळोवन हांवूय विरगळ्ळो
आनी तुज्या मर्जेनूच तुजी सुपल्ली योनी
भरून उडयली उजवाडाच्या कवच-कुंडलानी
तुजी भुक भागंसर
म्हजें तेज तुज्या तरनाट्यापणा इतले नाशिल्ले
म्हणोनूच म्हजें बीज हांव तुज्या उदरात दवरूक शकलो
आंकवारपणांतल्या त्या मस्तेंतलो कलंक समजता म्हण्टसर
पयलो पांडव जल्माक आयिल्लो
म्हज्या उजवाडांत केन्नाच कांय लिपूक ना
म्हण हेंवूय सत्य दडलें ना
आतां म्हाका दोश दिवन कांयच फायदो ना, कुंती
आनी हें जाणां जांवनूय तुवें सोडलो व्हान्यार तुजो
रक्त-मासाचो गुळो
संवसाराचो तिरस्कारीत अपमान सोंसपाक
बापूय ह्या नात्यान हांव खंयच खपलो ना
पुरूषार्थ जो म्हजेकडे आशिल्लो !
म्हण संवसारान पापाची धनी तुकाच केली

तू हस्तिनापूरची राजलक्ष्मी पळयताली
काळजांत दुकां गळयताली पांवलां कणकणी जाल्ल्या
कर्णाच्या अपमानाची-अशें तुवें श्रीकृष्णाक सांगले जाल्यार
पांडवाच्या जिवाची भीक तू कुरूक्षेत्रावयल्या छावणेंत वचून
मागची नाशिल्ली.
कुंती, तुजी चूक तुजें प्रायच्छित जालें तेन्ना
कर्णाक पराभूत मरण भोगचेच पडलें
तुज्या चारूय पुतांचे जीवनदान दियत
तरीय तुकाच लाभले जीवितांतले परमसुख
रान उज्यांतल्या तुज्या त्या देहाच्या समर्पितात.

तरीय हे कुंती, हांवे तुका केन्ना पळयलीना
मन सोडून खुल्लमखुल्ला हांसपी
पोरांच्या अधिकारां सांवन वंचीत रावून पेटून उठिल्ली
वनवास भोग आयकोन चरचरलेली.
तुज्या चित्त शांतीत सगळें सामावन गेल्ले
म्हणोनूच तू दिवक शकली राजसम्राज्ञीचो देह रानवण्याक
परत एकदा...

# मिलेनीयम

शेंकड्याची अखेर मनोवपाक तिवूय सामील जाली
मळबापोंदा
ह्या देशाचे संस्कृतीच्यो खूपश्यो आसो जतनायेच्यो
तिचे कडल्यान अपेक्षित आसात
उघड्या नागड्या कपड्यांतल्यान बाजारांत कशी...
तिचे सैत हांवूय
सगळे मेळून एका म्हयन्याक एक अशे वांटून घेवपा इतलेच
काळें, तांबडे, पांचवें सगळ्यांनी उष्टयलें
दर ग्लासांत मळबाचे रंग तोखेत
परकी शिश्टाचारांत सगळे मिसळून गेले
आधुनीक संवसाराचे जिणेची दीक म्हण

तिचे वयलें म्हजें लक्ष धुक्यांत सांडटा
तेन्ना मळब म्हेळ जाल्लें आसता
एके सायडीन उजवाड दितना
सूर्याचे दूसरे सायडीक पडिल्लो काळोख
म्हज्या शिरंतरांत फुटत वयता
हांव सूर्याचे दूसरे सायडींतल्यान
पयले सायडीकडे धांवपाचे व्यर्थ यत्न करतां.
म्हजें लक्ष तिचेर पडटा
तेन्ना खूब काळोख जाल्लो आसता
मळबांत एकूय नक्षत्र आसना
अचकीत एक हॅलिकॉप्टर पासार जाता मळब दिपकायत.

दूरदर्शनावयली कार्यावळ खूब रात मेरेन चालू आसता
घराघरांनी.

कोण तरी एकटो दांबता तिचीं भुजां
ताच्या मस्करीपणाच्या हांसपांत ती सांडटा
तो तिका आपलें मळब दाखयता.
हांव मळबाकडें पळयतां
मळब तेंच आसता

देवयानीच्या उपेक्षेचें
सीतेच्या अग्नी परिक्षेचें
उर्मिलेच्या प्रतिक्षेचें
सावित्रेच्या मरणांफांटले धांवेचें
कौच सवण्याचो बाण आपल्या उरांत घेवपी
वाल्मिकीच्या तपस्येचें
आनी गंगेच्या त्यागाचें
अशें तें मळब
मनीस बदलुनूय.

ती मळबांतल्यान सकल पळयता
तेन्ना तिका उजवाडूच उजवाड दिसता

कोंसळिल्ल्या तिच्या मळबापोंदा हांव चेंचत वयतां
चेंचताना म्हजें रगत मळबार उसळटा.
आयज तुमी जें चान्नें मळबांत पळयतात
ती मळबार पडिल्लीं खतां म्हज्या रगताचीं.

संस्कृती नाशिल्लें मळब म्हजें केन्नाच नाशिल्लें.

# तोंपो पाश्शांव

तोंपो पाश्शांव दोंगरेवयलो
गिमांत तोंपो पाश्शांव तळपांतल्या मानशेर बसतालो
चडसो.
केन्ना हातीं गरी घेवन वा पोलेर
वा सादोच, दर्याचें आनी मळबाचें जोक काडीत
मानशेच्या दाव्यान दामोडचें खाजन
खाजनांत भानपाडीच्या आडसाक पाश्शांवाचें
मोट्यावयलें शेत

पाश्शांवाचें मन कोरनार आपटतल्या उदकावेल्यान
व्हांवत वयतालें तें दुर्वासाल्या परायेचेर लागतालें
परायेचेर उबी आशिल्लीं व्हडीं
दर्याच्या वोसाडीचेर झेलणां मारताली.

पाश्शांवाची नदर सूर्या तोखेता
तरेकवार कोरांच्या मळबांतल्या
ताल्ल्या-बांगड्यांचो हिशोब करीत
घराकडें बेजार आयलो म्हण्टगीर हांव वयतालो पासयेक
पावटी बांदावेल्यान, वाऱ्याची भुजां मोडीत
तेन्ना हांव हडकीतालो ताका
आनी पाश्शांव आपल्या हाताच्यो मलायो हालयत
येवकार दितालो

तोंपो पाश्शांव आनी म्हज्यांत तसो व्हडलोसो फरक ना
दोळ्यांत सुकून गेल्लें सपनांचे उदक गळोभर
एक उमेद आशिल्लीं चार-चौगां सारखी
एकसूरपणाच्या आकांतांन हुलपल्ली
मर्डी शिमित्रींत काबार जातात आनी
कर्तुपांच्या चिखलाची रास जाता
तेन्ना काळजाच्या बिणकूलांत पसवत रावता फक्त काळोख.

फक्त देवांच्या आधारान पाश्शांव वांगोड जिरयता
आपल्या एकसुरपणांतल्यान, कोसळचें पयलीं
बागावल्ल्या आंगाक दिकें लावन
तर अशे आमी पाश्शांव आनी हांव
दुरवासाल्या परायेंवेल्या तारवांनी बसतालें
आनी मळबाक रंग फासून सूर्याक हडकीताले,
काळखाची बोची करून.

हांव पळयता, केन्नाय असोच 'पाश्शांव'
बुडलेल्या सांवळ्या खातीर गरयताना
बुडून गेल्ल्या खाजनांतल्या आपल्या मोट्याक पळयत
आनी उदकार उठलेल्या ल्हारांनी
आपलें बिंब सांडयतना
ताका खबर आसा आयिल्ली ल्हारां
परत केन्नाच ना येवपाची,
एका घटकेच्च्या जिणेंत विश्व सामावता तें

हालीं दूरवासाली पराय रिकामीच दिसता
दामोडचें खाजन वशाड पडलां
आनी तळपातलीं मानस घाण्डयल्या
तोंपो पाश्शांव आसता खंय हें हांव नकळो
आनी ताका सोदप खंय ह्या आख्या मोडून पडिल्ल्या
मळबापोंदा?

खरे सांगोव,
ह्या नांवाचो म्हज्या वळखीचो कोणूच केन्ना नाशिल्लो
तरीय ह्यो कवितेच्यो ओळी मात
ताच्याच खातीर आसात.

# तेहेलका डॉट कॉम

म्हाका बरो म्हणपी लोक संवसारांत
आसा सो दिसना, अशें हांव चित्ता
पूण एक वेळ तुमच्या तोंडावयल्यान नदर भोंवडायत जाल्यार
दुबाव जाणवले बगर रावना
घडये ती तुमच्या उलोवपाची तराय जांव येता
तसो तुमचो थाव घेवप खुबूच कठीण, म्हाकठीण.

'होयऽऽ शिंज्योर', म्हणपी तुमी
म्हज्या फांटल्यान थुकतात आसतले
बोटां दाखोवन चाळयतात आसतले
म्हाका हळशीक अशो गाळीय घालतात आसतले
पूण आसूं, हाच्या पयल्यान म्हजान कांयच म्हणूक जायना
कित्याक तर 'दोळ्याआड मसंड पाड'
तरीय कोणाच्याय फांटल्यान करप म्हटल्यार पाडूच न्हय?
आतां कोण कितें आनी तुमी कितें
हें हांवेंच सांगप, हातुंत किते आसा?
सगळें जग जाणां. जांव.
ते म्हजे फांटल्यान धुयतात म्हण म्हाका
राग आयला बीन अशें तुमी समजूं नाकात.
जग कितें आनी हांव कितें ?
निमणें, कलीयुग !
एक मात, हांव जगासावन केन्नाच अलिप्त रावूंक ना
म्हणोन म्हजे म्हाकाच मागीर हाची लज जाल्लेभशेन दिसता
लजेन तकली सकयल करता.
येवजताय, हें असलें जगप हांवे जगचेंच न्हय
जी तकली लजेन बागवता ती कातरून उडोवची
ते तकलेंत फक्त अटलजींचे, देशाच्या प्रगतिचे
तळमळे आसात आनी दूसरें कांयच ना
तकलेंत भितर बंद जिवाच्या आकांतान
घुस्मटपी 'अटल बिहारी वाजपेयी'
हुस्कार घेवपाक सोदता
ते आतां तीर धरून दोळ्यांत देंवल्यात

चारूय वाटांचो एक नेट करून
दोनूय हातांत काळें धरून.
तांचे मुखार फक्त आसा अटलजींचे चरित्र
ते आतां सुक्या वांगडा जितेंय जळपाचे
उपाय येवजीतले
कुरूक्षेत्रार हारिल्ले तुमी निमणे हेंच करतलें न्हय?
आनी हांव कोंसता म्हज्या म्हाकाच
तांच्या दरेका पावलांचो अदमास आसुनूय
वोग्गी आसा म्हण

खरेंच, म्हाका ह्या सगळ्या गजालिंचो वीट आयला
नारायणान.

# अग्नी

निर्मितीचो साद अंतराळांत गाजलो
तेन्नाय अंतराळांत गरमी आशिल्ली
धगसाणीचो साचो भगभगलो
आनी आठ मिनटांनी हांव जमनीर तेंकलों
ह्याच इतिहासान म्हाका ब्रह्माच्या मानस पुताचें
पावित्र्य ओंपयलें
तेन्ना सावन हांव जळत आसा
महर्षी भृगूचो शाप घेवन
म्हाका पेटत रावपाक जाय, सगळ्यासैत
घडये सगळें ना नपयत करुंक
आनी उरुंक फक्त सगळें काबार करुन बशिल्लो गोबोर
हिजड्याभशेन
जशे कितलेशेच उध्वस्त हिरोशीमा हांवें
एका चेरनोबिलांत घडयले
गरमी नाशिल्लो उठाव करूंक शकना
हेंच सिद्ध करपाक.

हांव वेळाकाळाची शीम नाशिल्लें भान
दुर्वासाच्या रागांतल्यान फळफळपी फाळ
पावित्र्याची गवाय
रघुकुलाचें चारित्र्य सिद्ध करून
धरतरीच्या पोटांत जागो मेळोवपी
अयोध्येचो विस्वास
लंकेचें दहन करपी
खांडवनाक ऐश्वर्य संपन्न इंद्रपरस्थाचें रूप दिवपी
कुरुक्षेत्राची शिमित्री करपी
हिटलराच्या साम्राज्यवादांत रूतपी
व्हियेतनामांत धगधगपी
मोनोलीसाच्या निळ्या निळ्या सपनांत काळीज ओतोवपी
वासनेचे पांयणींतल्यान व्हांवोन सुस्त जावपी सुशेग

हांव तुमकां पळयतां काळखाचे दिकेन व्हांवोन घेतना
काळखांत काळीं कृत्यां करपाक मेळटात
हिजलीच्या डिटेंशन कॅम्पांत गरमी चिरघळपाक मेळटा
सत्य दामपाक मेळटा
पांयापोंदचीं माती खोल्लून उडोवपाक
तेन्ना तुमच्या कुशेंसाची नखेत्रां कोंसळून पडिल्लीं आसतात,
मळब नागडें करून
तेन्ना महाकालाक उघडचो पडटा तिसरो दोळो
विध्वंसाचो आरंभ करपाक

हांव पंचम्हाभुतांतली उर्जा
जमनीकडें जो प्रामाणिक रावता,
ताकाच मळबाकडें पळोवपाचो अधिकार आसता
आनी त्याच अधिकारान हांवें भोगलें मरण
अमीरचंदाच्या गोंयच्या हौतात्म्यांत
मंगल पांडेच्या फांसांत
आनी जलियनवाला बागेंतल्या बांयत

जाणां?
हांवें तुमकां दिली गती आनी सामर्थ्य उजवाडाचें
म्हणोनूच हांव मुंबयच्या बामस्फोटा उपरांतूय जळत आसा
शिमेवयल्यान धांवलेल्या पंडमूरां फांटल्यान, आयज लेगीत.

काळाचो दरेक खीण हो अनंत काळाचो जितो जागतो प्रतिनिधी
ही संकल्पना तशी हांवें तुमकां पटोवन दिवपाचे खूप यत्न केले
आनी कुरूक्षेत्रावयलें जळप निंवोनूय ताची धगसाण
परत ल्हवूल्हवू मोटी-मोटी जायत गेली द्वारकेंत
सात्यकीच्या मनांतल्यान
तेन्ना हांव रूपकराक येतालो यादवकूळ काबार करपाक
गांधारीच्या शापाच्या आधारान.

हांवें सुवर्ण-घटको रिगयल्यो.
विध्वंसांतल्यान निर्मिती खातीर जाली
मासलिडरशिपींतली लेनिनाची क्रांती
विरोध मोडपाक काडलो प्रगती करपाक

मानवतावादी मुल्यांची जतनाय करपाक
आनी म्हाका संवसार दिसलो कॅलिडोस्कोपांतल्या हारशांतल्यान
तांतल्या भावविश्वांतल्यान हांव घडयेचीं सपनां पळयत गेलों
पिकासोच्या पिशोलान पितारीत
एंगल्स, मार्क्स, माओ हांच्या लेखणेंतल्यान भळभळून व्हावपाक लागलो
तांचे लेखणीची समर्थ तांक जावन
आनी उतरांचे मुदयाळे नदरेंत हांव नटलो, सजलो, सवरलों

हांव काम रंगांत पेटलो
ययातीचो पुरूषार्थ पळयलो
कृष्ण लिलेंत सामवलो
अहिल्येच्या सौंदर्याक दिपकावलो
गंगचे व्याकूळतेंत अर्भकांची जल आहूती पळयली

जेन्ना हांव पोटाभितरली भुख जालो
तेन्ना मात हांव, हांव उल्लो ना, म्हारूद्र जालों
कालयवनाचें भस्म करपी मुचुकुंदाच्या
दोळ्यांतलो हुलोप जालो
गांधारीच्या पट्टेभितरलो शाप जालों
सर्पसत्रान प्रतिशोध पळोवपी जनमेजय जालों
पंजाब आनी कश्मीराचो आतंक जालों
आसामांतलो उग्रवाद जालों
गुजरातांतलो भुंयकांप जालों.
तरीय म्हाका पेटपाक जाय आनी जो पेट्टा तो हांवूच
म्हज्या पुरूषार्थाची जाण
तुमच्या भावनांचो, अस्तित्वाचो आनी कुळयेचो लेगीत गोबोर करपी
चिंता आनी चीतेंत जळपी
अग्नी !

# नीरो

हांव ऑगस्टसच्या राजघराण्यांतलो
क्लाडियस सम्राटाचो स्वीकृत पुत.
पिन्शियनच्या दोंगुल्लेर उभो रावन पळयता
म्हज्या नदरेच्याकूय पैस आशिल्लो रोम
ज्याची हांव वाट पळयतालो युगांच्या प्रतिक्षेंत
मनावयलें दडपण आनी सार्वभौम लोकसभेचो तिरस्कार घेवन
तरीय म्हाका एकूच खबर आशिल्लें
म्हज्या सपन पुर्तिकडें धांवप, कास्तीकांक माडड्यत
आनी त्या धडपडीक हांवे मागलो आधार
रोम जनतेकडल्यान कर वसुलींतल्यान
तेन्ना पिसोक दिवचो पडलो म्हाका मृत्यूदंड
जाणें सीझराणीक रोम ल्हासपांत हातभार लायलो

हांवे म्हजेर चाल करून येवपी पांवलांचो सदांच अदमास घेतला
ऑक्टीव्हिया, पॉपिया म्हाका माफ करात
तुमी म्हजो वांगोड जांवपाच्या लायकीच्यो नाशिल्ल्यो
देखून म्हाका मेकळी करची पडली वाट आडमेळ्यांची
ॲक्टीक भुल्लसलेलें पौरुष रोमन कायद्यांत बसोवपाक

हांव पळयता,
म्हज्या दोळ्यांत एकवोटलेली सूमार सोबितकाय
आनी तांतुतल्यान नवी झळाळी उजळयत
उजवाडाभशेन तेजस्वी दिसपी रोम मनीस
टायबर न्हंयचेर मुक्त संचार करपी सुकणीं
फुलां-झाडांच्या चुम्यांत उधळपी रोम मनांची प्रणय रंग बंदिशी.

हांव एक कलावंत, गुरुदेव सिनेका
नीरोच्या धुनींतल्यान साकार जाल्लो.
फिडलावयली तार काळजाच्या स्पर्शान झणकारपी
तुमच्या अंतकरणांत हात घालपी रोम साम्राराजाचो सीझर
म्हणोन हांव म्हजो मोग, हें फिडल वेगेंत घेवन
वांजयत आशिल्लो रोम जळटना, अशें न्हय

म्हाका सोंसलेंना पांवलां कणकणीं म्हजेर रचपी राजकारण
माई, सांवळेसारखो म्हज्या वांगडा आसूनूय.
तरीय म्हाका दिसतालें त्या उज्यांतल्यान
म्हज्या फिडलांतल्या धुनींतल्यान
जीवाच्या आकांतान सोबीत सुंदर रोमाचें चित्र
म्हाका वगडावपाक जाय आशिल्ल्यो सुज्ज जाल्ल्यो वस्त्यो
आनी रोमाच्या मनांतले कूसकेंपण
तशें सौंदर्य जल्म घेवपाक म्हजें मन स्वरांच्या धूनींत विरत गेलें
आनी सम्राटाचे जिवीत त्या पुर्ती फांटल्यान भुल्लसलें
गाडये फाटल्यान उठलेल्या धुल्लाभशेन
सृजनशील भावनांची निर्माण शक्त हांव पळयत रावलो
तेन्ना रोम भूंयेक मेळटाले नव्या अर्थांचें परिमाण.

## स्वार्थी

भौशिक भावनांचो अतिरेक
हांगसर पांवलां कणकणीं जाता
स्वार्थाच्या बीयाण्यांक खत-पाणी घालतना,
तरीय आयकूंक मेळटा मानवतावादेची अभंग गीतां.

स्वार्थान मनीस कुड्डो जाता
देखून फूडाराच्या काळखांत ते शेणत वयतात
आपल्याक सोदीत
आनी काळखांतल्यो तांच्यो पांवूल-कूरवो
मागीर सगळ्यांच्याच नदरेआड उरतात
घडये वायटा वांगडा बरेंय हुलपता
हीवूय जाण, अजाण
आपलें ध्येय थाराय नासतना ते हुतहुत्याभशेन धांवतात
सगळ्याच कडल्या संधीचेर उडी घेवपाक
आपल्याक रचोवपाक मग्न जातना
स्वार्थाच्या खूशालींत ते कोसळूंन पडटात
जांवन, ना हांगसल्ले ना थंयचे
भौशिकांक जाणवल्ल्या दूकीचें किंकोत करीत
आनी म्हणोनूच तांका येवजना हे मातयेंत किल्लोवन येवपाक

परोपकारी मनशांचेर तांचो विसवास बसना
दूसऱ्यां खातीरुय हांगसर लोक जगतात
हें ते केन्नाच मानपाक तयार जायनात
जो तो आपल्या खातीरुच जगता.

धाग्यांचे एक वेगळेंच नेटवर्क जिवीत आसता
हें सुद्धा ते न्हयकारतात
जाणें काळजां रूंद जातात
दूसऱ्यांक वाट मेळटा काळजांत देंवपाक
तेन्ना आपलो स्वार्थ चिड्डता म्हणपाचें तांका जाणवता

काळीज, मन, भावना हीं सगळीं ताच्या कतृत्वान हुलपोवन वयतात
आनी म्हणोनूच तांका जिवितांत झगडत रावचें पडटा तांच्या विरोधात
आपल्या स्वार्थ बुद्धींतली सगळीं विखारी अवजरां घेवन
तरीय तांका मेळना जैत म्हज्यांतल्या मोगाचेर
तशें तांच्या उसकारांत खीणा-खीणांत तयार जातात
दूसवासाचे विखाणु
आनी नदर पैस उरिल्या मानवतावादाचो दूरावो

भूंयओढ ही खूप मुखावयली गजाल.

# सृश्ट

धरूंया,
गेल्ली वीस वर्सां असो पावस केन्ना पडलोच ना
आनी अशें उदक हुंमऱ्या भितर केन्ना येयलेंच ना
पावसाचें खास अशें एक आपलेंपण आसता
फांसकेंतल्यानूच घसघसपाचें
जमनीवयल्या वाडलेल्या पेजाचें भान दवरी नासतना
जशें की,
तुजे मुखार मांडलेली ही उतरां
आनी बदलत्या नदरेंत
रूपकाराक येवपी सृष्टी
खूप पयलीच निश्चित करून आयिल्ली आसता
स्वरांचे आपलें भान
जाचेर विकृतीच्या विखाणुंची नदर
पडपाची शक्यता नासपाक जाय
नितळ निळ्या मनाक फक्त मळबाचोच ध्यास उरपाक जाय
आनी ताच्याकूय पयलीं फक्त धुकेंच आसपाक जाय
घडये नाशिल्लो जांवये हो वीस वर्सां उपरांतचोय पावस
तेन्नाय नीट मोन्यांनी घडत वयतालें मुखार, भविष्यातलें
तरीय थांबलें ना राती उपरांतचे दीस
दोरयेवेल्यान कसरत करपी जिवीत दवरपी उस्कार
उनतान रखरखलेलो बागवल्लो फांटीचो कणो
आनी कुडकुड्याच्या हाटात दाढयेर आदळपी दाढी...

म्हणोन म्हण्टा बायूं,
दीसापयलीच्या काळखांत शतपावली न्हय
सात पावलांच चल
तुज्या मनाची सृश्टी उक्ती करून
तेन्ना तुज्या नदरांक नवें परिमाण लाभतलें
पावसापयलीचो रखरख मळबारूच न्हय
हांगसरूय शिंवशिंवल्याचो दिश्टावो
तुका जाले बगर रावचो ना.

सृश्ट शेगीत आसा.

# वनवास

वनवास फक्त सांडोवप जाणा
आनी हांव म्हजे नदरेतलें लायफ पळोवपाक सोदतां
'तूं म्हाका समजूंक ना' अशें मात म्हणूं नाका
म्हणून म्हण्टा, केन्ना परततलो वनवासांतल्यान?
सटीच्या देवळाकडेन रावन कोंरगूटाच्या कणसाची
कूसां चमकयत खाजनांतल्यान येवपी सूर्या
आमकां वांगडा पळोवपाचो आसा
नवी किरणां घडये नवी उमेद घेवन येवं येता
निमणें हांव तरी आशेरूच उबें रावलां येन्ना-तेन्ना
वर्सा जालीं, वांगडा मळब दोळ्यांत भल्ल्यार
येवजिलां, वांगडाच पळोवपाचें अस्तमतेचें
ताल्ल्या-बांगड्यांचे मळब
वाट तेळपाचो आमचो पूर्वानुभव सांवळे सारखो
हें जाणा जावनूय.

वनवासांतल्यान परततना तुज्या येवपांत आस धरता
मळब तेंच आसतलें
तारवांकडें वचून सुपलीभर आजग्याच्या भातान
सुपलीभर ताल्ले घेवंया
नाजाल्यार सुपलीभर भातान अर्द सुपली बांगडे घेवंया
तणांत भाजपाक
सटीच्या देवळाची सपणां वांगडाच चडपार्चीं, घांट वाजोवपाक
घडये म्हजो हात पावचो ना
तेन्ना तूं ल्हवूच म्हण्टलो 'उखलूं?'

हांव सटी मूखार लजतलें आनी मागीर तीर्थ प्रसाद बीन
सगळें लजेतूच उरकतलें
तेन्ना कडेक व्हरून विचारपाक हांव विसरचेंना
'कसो आशिल्लो वनवासांत?'

म्हाका खबर आसा
दशमुखी रावणाक मारपाक खूब सोंपें आशिल्लें त्या रामाक

शतमुखी रावण मरपाची खबर करिनात
एकार एक दाळाक लागपी गुडड्लसवां कोंसळपाची
ताकीद घेयनात
एकूण सगळेंच लायफ टॅन्शनांत
तुज्या अस्थिरपणांत हांवूय विखूरलां...

एक आशिल्लो वनवास हरिश्चंद्राचो
एक आशिल्लो वनवास रामाचो
एक आशिल्लो वनवास पांडवांचो
आनी मागीर वनवासूच वनवास...

चल, आमी गांवांत वचूंया
जिवीत फुलपाच्या साच्यांत बंद जावंया
सांग, केन्ना परततलो वनवासांतल्यान?

# आकांत

हे सृष्टीच्या धनया,
तुवें आता पालवोन वच़चो
‘आदिम काळासांवन तू जागृत आसा’
ही आमची दिशाभूल करपी चिंतना
आमकां काळखाच्या फोंडकूलांत घालून
उजो घालपाक जाय वैर माती ओडूक

हे हिरण्यगर्भा, तुज्या उजवाडाच्या आरशेत
जाणीं जाणीं आपले तोंड दाखयले तुका फटयतना
ते पापी मानवतेखातीर शाप जाले
तांका मुक्ती केन्नाच ना
तू आनी तुजें अधिपत्य शाबूत आसा ह्या विस्वासार
संवसार-पावलां, मुखार मुखार पडत रावली
जल्म जल्मांतरीचे दुबळेपण विसरून

हे सुर्या, घडंये तुका हाचेर विचार करपाक वेळ नासचोना
तुज्यो विधी उरकयतना.
म्हजेकडे वेळा शिवाय आनीक कांयच ना
म्हण हांवेच सोदल्यात उपाय
काळखाचो वज्रबाहूंचो हावेस फळादीक कर
तेन्ना ‘अंधेरा कायम रहे’ म्हणपी
तमराज किलविशाच्या घोष वाक्यात जीव भल्ल्या बगर रावचो ना
किलविशाक काळखाचें साम्राज्य पातळूं दी
शक्तीमानाच्या शक्तीचो नाश करून
तेन्ना प्रेशर पडूं दी म्हागुरुचेर
सुर्यवंशाची दाळ मात्शी शिजोव दी
आनी म्हण्टा म्हण्टा तुजो वंश गर्भातूच काबार जांव दी
अश्वथाम्याच्या मंत्र सिद्धीभशेन.

हे उजवाडाच्या धाय.
मानवतेची होळी चलयल्ल्या ह्या नराधामांक पळोवपी
म्हज्या दोळ्यांची बिणकूलां काळखाच्या तिजूल्यांनी भरून उडय

उजवाडाचे गर्भ हांगसर फळपाक ज़ायना
उजवाडांत मानवतेचें मडें उक्त्यार पडिल्लें पळोवन
काळीज लेगीत चरचरतारे
सगळ्यो वाटो आडवाटो-चोरवाटो उक्त्यो जाल्यात
अभियोग-प्रतियोगांतल्यान
शासन शेक गाजयता दोळ्यार पट्टी बांधून
आनी तागडी मानवतेची लक्तरां जोकूंक
तरीय मनां तापपाची तांक रूजना
कित्याक, समाजूच तसो आसा
पळय, पिळून जाल्ले मनीसपण मोनेपणांत बसलां
वेसण घालून काळखाचें
आनी हड्ड्यांतलो आकांत जळत आसा
आपल्याच अस्तित्वाचेर गळत
मेणवातीभशेन

# पितामह भीष्म

हांवें नरसंहार पळयलो
कुरूक्षेत्रार आयिल्लो मरणाचो म्हापूर पळयलो
आकांताच्या किंळाच्यानी भरून आयिल्ले तांबडें मळब पळयलें
पूण पळयलें ना जितेपणातूच तुज्या विशाल काळजात
धगधगपी तुजें मरण.
हे गांगेय, कुरूकुलाचे शिंवासन सुरक्षित आसा म्हणपाचे
आनी तुजे प्राण वाचपाचे
तसो योगायोग केन्ना आयलोच ना
मागीर तुजें इच्छा मरण...?
हू, तुवें भोगलें तुवें रिजयलें तुजें मरण आनी
तुज्यातल्यानूच उसळ्ळी किट र्निवंश कुरूकुलाची

हे देवव्रता, तू आशिल्लो म्हारूख हस्तीनापूरचो
तुज्या सांवळेत आनी विशाल अंतस्करणात
सगळेंच अफाट आशिल्ले.
तुजे मुखार तिगपाची तांक फक्त तुजेकडे आशिल्ली
म्हणोनूच तुजो भीष्म सोपूत जमीन-मळबांत दणदणून गेलो
आनी मळबभर शिंपडिल्लो म्हारूख र्निबिज जावंन उल्लो.

आयज हांव पळयता तुकां तुज्यांतल्या मरणाचें येवप
ह्या बाणांच्या तोंकार घडये सुरक्षित आशिल्लो तुजो देह
अठराव्या दिसाचो लेगीत समारोप करपाक
पुण तुजे तडफडे मात सुरक्षित केन्नाच उल्ले ना पितामह
एक शाप अंबेचो तुज्या शिरंतरांतल्यान पासार जातालो
एक वसू बंधू मुक्त जातालो, प्रभासाच्या चोरयेची ख्यास्त
पुराय जिणेत भोगीत.
तरीय एक म्हुर्त तू पळयतालो उत्तरायणाचो
सगळेंच गंगार्पण करून.

कुरूकूल कल्परूखा, तू पातळून रावलो मळबभर
ह्याच तुज्या कुरूकुलोत्पन्न भुरग्यांक मेळची म्हण सुखद सांवळी
आनी तांच्या वीरत्वान खरेंच तू वांकून गेल्लो.

तुजे कडें सगळें आशिल्ले
धर्म, नीती, गिन्यान, शक्त...
तरीय तुजेकडे कोणे कांय मागलेंच ना
द्रोणाच्या येवच्या पयली लेगीत
परशूरामा मुखार हार न मानपी
केशवाच्या प्रतिज्ञेचो भंग करपी
विशाल गंगेचो प्रवाह बाणांच्या तोंकानी रोकपी तुजो पराक्रम...
तरीय तू कांयच जिंकूक शकलो ना
बापायच्या सुखा खातीर तुज्या सगळ्याच यत्नांक तुवें
सुळार चडयले
आनी तुज्या मनगटांतलो पुरूषार्थी म्हामंत्र लेगीत खुंटून बसलो.

एक आशिल्ले पांडव
एक आशिल्ले कौरव
आनी तेन्ना घडून गेलें एक म्हाभारत
पुण उलगलें ना भीष्म पितामहाच्या इच्छा-मरणाचे कुंवाडे
कोणाचोच फुडार सुरक्षित नासतना
आयजलेगीत...

## सरण

वैशाक व्यथेंतलो तो वड
मळबभर शिंपडला म्हज्या पुर्वजांच्यो यादी घेवन
आनी ही तिनसान गायत आसा आर्त
काळखाची अभंग गीतां
मनांत शब्दांच्यो सांवळ्यो
गळ्या मेरेन फांकल्यात
रगताच्या कणकणांत पोरव्याच्या भाटीचें एकसूरपण
खंयतरी दडून आशिल्लो अंतरंगांतलो सुर्या
दोळ्यांच्या पातकोड्यांचेर देंवता
धुक्यांतल्यान भायर आयिल्या भशेन
तिनसान शिरशिरता काळखांतल्यान
वडाचे खांदये-खांदयेर
वेताळाच्या हातांच्यो रूद्र कुरवो
एक-एक कुरू नियाळटना शिरंतरात बसत रावता
काळखाचो एक-एक तिजुलो, गप् गप् करून

आता मनांत फकत गुपाट काळोख
रातीचे पार धुकलून आता वेताळ आयला
खांदार म्हज्या सपनांचे मडें घेवन
कायं वेळान म्हजे सर्ग-खीण
ह्या वडाचे खांदायेक लांबतले

आता हांव एक सारखो पळयत आसा
दोळ्यांच्या पातकोड्यावेल्या सुर्याच्या प्रतिबिंबात
म्हज्या जिवितांतल्या सपन खिणांचे सरण.

# वारो

काळ चलता मुखार
हाची जाणीव करून दिवपी
फक्त एक वण्टीवयलें घड्याळ
ताचें शिवाय हांगसर कांयच चलना
दोळे पुस्तकांत रमल्यात
एक सोबीत बायल पानभर पातळ्या
म्हणूनच पुस्तकाची सोबितकाय वाडल्या
नदरांचें एक-एक यँगल धरून हांव इस्त मारतां
दोळे बारीक-मोठे करीत गरजेनुसार
चित्राचो एक-एक कोपचो मनांत एनलार्ज जाता
पुस्तकांचे आलमारींत गांधी बसला वाजपेयींक तेंकून
आपल्या तत्त्वांची पोटली घेवन
वाजपेयींक आपूण असुरक्षित कशें दिसूंक लागता
आपल्या एकावन्न कवितां वांगडा
तरीय वाजपेयी सांभाळून आसा गांधीचो रेसपेद
आनी अहिंसेचीं मुल्यां

क्षीरसागरांत फणांच्या नागाचेर लवंडल्ल्या विष्णूच्या
मुर्तीविल्यान
तांबड्या मुयांची परेड चलत आसता. शिस्तबद्ध.
माथ्यावयले दाणयेर एक चेड्डी
आदम आनी अव्वाचो उगडास सुकयता
वण्टीर घड्याळा सकयलें कॅलेन्डर तीस जाणांचो हिशोब घेवन
चवकटींत बसलां लष्ठ
जाणें एकल्यान आपल्याक जाय तशा हिशेबांत मांडीत वचपाचो
चंद्राचो वा सुर्याचो आधार घेवन
वा सगळेंच सुर्यमंडळ घेवन
कांय म्हॊवाळ उगडासांच्या 'ओरसय' चो गजर
वा सुशेतीचे सायबीणीचें पुरसांव
तर दिवाळीचें नक्षत्र वा नातलांचो लापीयांव
सगळें चुकं नासताना नमूद. शास्त्रीय.
पुण जाता कितें, वारें व्हांवता तें आमच्या फाटल्यान

मुखावयल्या वाऱ्याक घडये आडोवपाक जातालें
म्हणोनूच तें ताका जाय तशें द्रुशीत जावन भितर सरता
जाय त्या रुपान
तेन्ना वण्टीवयल्या घड्याळाचे कांटे मोडून पडटात
पुस्तकाचीं पानां फडफडत पिंजून वयतात
आनी चित्रांतले त्या बायलेच्या आंगावयले कपडे पिंजलेले आसतात
तेन्ना अतिरेक जाल्ल्यांचे तुफान मनांतूच फुट्टा
गांधी वाजपेयींक 'शट अप' करता
वाजपेयींतलों संवेदनशील कवी काळजांत वोणोव घालून पळयता
आतंकवादाचे ह्या धा वर्साचे हिंसेचे पन्नास हजार बळी
कापरभशेन जळटना
तेन्ना वाजपेयींकूय मनांत नासताना
म्हणचें पडटा 'हे राम !'
विष्णूचे मुर्तीविली मुयांची परेड अस्थावेस्थ जाल्ली आसता
बेशिस्त.
वारो पळयता आरपार दाणयेवेल्या पिंजलेल्या चेड्डेंतल्यान
जीं पेंलूंक शकलींना धर्मनिरपेक्षतेच्यो घोषणा
तेन्ना कॅलेन्डरावयले सगळे चौकोन उडून गेल्ले आसतात
तीस जाणांचे बारा ब्रेस्तार आनी तेरा सुक्रार करून
आनी सगळ्यांत वायट म्हटल्यार
ह्या वाऱ्याक लागोन सगळें सूर्यमंडळ गडगडूंक लागता
आनी संवसार हातां घेवपाच्या सपनांचो दोळ्यांत भास जाता
त्याच फायद्याचो धर्मांध
इसलाम प्रस्थापित करपाक म्हासत्तांक हालयता
जिहादाच्या संकल्पनेची फेररचना करून
असो वारो व्हावंता दिक नासतना
म्हणोनूच अंतराळांत मात्सो नेट दाखयतकीर
तांचो संपर्क तुट्टा
आनी फाटल्यान उरता तो फक्त वाऱ्याचो दुष्परिणाम.

# एकलव्य

शिश्टमान्य संस्कृती आनी कुलपरंपरेच्या प्रतिश्टेचो
ऐवज म्हजेकडें नाशिल्लो
म्हणोनूच मेळ्ळी म्हाका परतीची रिकामी वाट
जाणें आपल्या विद्येबरोबर
आपलें जिवीतूय विकून उडयल्ले प्रतिसोदाखातीर
त्या आचार्यांकडल्यान.
सकाळी कोंमेस जाल्लें नवे जिवीत
पासार घेवपी श्वास
रातीच्या मळबांतल्यान गळपी उल्केसारखे जाल्ले
म्हाका दिसलें जिवीतान मनशाचेर कितलेंय परतोवचें
अशे सगळे खीण म्हज्या आंगार धांवून येतात
हांव जाता खिन्न, गाडी सोंपून गेल्लो
मळबांतलो पतंग
सुटलो तरीय मळब म्हाका जायच ह्या खटाचो
म्हणोनूच भंगलीना म्हजी उमेद
तू तर परब्रह्म स्वरूप आसूनूय असमर्थूच आशिल्लो
म्हज्या दोळ्यांतलें मौन आव्हान आपणावपाक
कित्याक तर तुवें केल्ली कबलात
श्रेश्ट धर्नुधाराची अर्जुनाकडें
आनी हांव कश्टांतल्यान पूरताय सादोवपी
म्हण हांव न्हयकारता
विटोन-खचून जगपांतलें जिणें
आनी फुडारांच्या दोळ्यांक दोळे मिळयत पळयता
जगाच्या नकाशांतल्या
पैस शिंपडील्ल्या काळखांतलो अशांत अंतराळ
म्हज्यांतल्या अतूट विसवासान
एकठांय केलो तो दीस हस्तीनापूरचो
म्हज्या विशाल काळजांत
आनी तितक्याच रेसपेंदाची
परमपुज्य सदगुरूमुर्ती.

म्हज्या दोळ्यांत महापूर एकठाय जाल्लो
आनी काळजांत रिगताली मळबाची उंचाय

म्हजे म्हाकाच सिद्ध करतना
हांवे उबो केलो म्हज्या कश्टांचो झेत
खंयच्याच अधिकारांची वा स्वामित्वाची
इत्सा बाळगी नासतना
नितळ निवळ साधनेंतल्यान
म्हणोनूच हांव घडोवक शकलों
म्हज्या कर्तबगार हातांनी
मूठभर माती आनी पोसोभर उदकाच्या आधारान
म्हज्या अंतरीची गुरूमुर्ती
माती आनी उदकाच्या आधारान
उगोवन येवपी, अशें बीज
अजून जगाक खबर नाशिल्लें
म्हजी धांव म्हज्याच वांगडा आशिल्ली
म्हाका उंच करपाची
म्हणोनूच घडये ती आचार्यांक नडली
आनी आशीर्वादांच्या बदलाक
याचकान मागली गुरूदक्षिणा
तेन्ना म्हज्या आंगठ्या वांगडा
ती मातयेची गुरूमुर्तीय
चूरचूर जांवन मातयेभरीस जाली
म्हजे जिणेभशेन
तेन्ना गुरू द्रोणाचार्य आपल्याच नदरेंत
कोसळटना हांवे पळयला असहाय्य.

हांव किरातपूत, एकलव्य.

## निलबा खांडेकार

हांवे दोळे उघडले तेन्ना हांव जमनीर आशिल्लो
धर्तरेच्या आधाराशिवाय हांव आनी खंय उरूंकूच शकना
म्हणोन म्हाका ह्याच धर्तरेवेल्यान चलपाक जाय
कार्यरत जांवन, थांबं नासतना
सवूय रूतुंच्या सवुय सुंवाळ्यांतल्यान वेगळेचाराचें रूप घेवन
मुखार सरपी नर्तकीभशेन
हो म्हजो हिसबाभायलो हिशोब दवरपी समज

आनी हेच धर्तरेर रावन म्हज्या दोळ्यांच्या नदरांक
भिडपी मळबाचो ध्यास म्हज्या शिरंतरांत रूजतालो
आर्शिवादाच्या सांवळे सारखो
विशाल मळबाक गडद सपनांच्या निळायेचो साज चडिल्लो
तरीय सकाळ, दनपार आनी रातीची मुस्ताकी चडोवपी मळब
दोळ्यांत मावं नाशिल्लें

वारो म्हज्या नाकांतल्यान शिरंतरांची भोंवडी करून येतालो
म्हज्या जिवेपणाची कुरू शाबूत दवरपाक
आनी सगळ्या जागृत चिंतनाक सतत सळसळत दवरपी
रक्ताच्या पेशी-पेशींत धडधडपी वादळाचें रूप जांवन

अग्निच्या पवित्र संस्कारांनी म्हजी जिण कोंमेस जाली.
अग्नी म्हाका म्हजेपणाची जाणीव करून दिवपी उर्जा
आनी म्हजे म्हाका समजतां-समजतां जाळून खाक करूंक
उमेद वाडोवपी भूक.

उदकाच्या पावित्र्यांत म्हजी युगांच्या प्रतिक्षेची तान आशिल्ली
म्हणोनूच म्हज्या दोळ्यांतल्यान पयलें आयलें तेंवूय उदकच
त्याच उदकांत वोणोव घालून हांवे पळयलें
म्हजें पंचमहाभुतांचें अस्तित्व
सुख-दुखाच्या बदलावांत हांवे म्हाका हालोवंकूच जाय
जिणेचे आशेंतल्यान मुक्तीचे सपन पळयतना.

# मळब

## एक

हांवें मळबाची खूप वासपूस केली
बाजारांत, तिट्यार, दवरन्यार
तरीय मळब मेळ्ळें ना पळोवपाक

दीस कसले आयल्यात पळयात
म्हज्या भुरगेपणांत अशें नाशिल्लें
मळब खूप सवाय आशिल्लें
बाजारांत मळब आपल्या काळजांत दवरतालें

हांव परतलों तेन्ना परतो परतो
काळजांत हात घालून सांसपितालों
आडेकडेक इल्लें पूण खंयतरी मळब लागता काय म्हण...

## दोन

फुटिल्ल्या आरशांतल्यान
तुमी मळबाक पळोव नाकात
मळबाची सांवळी
म्हाकाय पारखी जातली

## तीन

मळब पळयतां पळयतां
आख्खें मळब ताच्या दोळ्यांतल्यान
काळजांत देंवलें
विशाल मळब ताच्यांत सामावलें
आनी चंद्र-सूर्य-नखेत्रां
ताच्याच मनाच्या वेदीर
चडूंक-देंवूंक लागलीं
तरीय ताचें मन मळबाच्या मनाकडें
प्रामणिक केन्नाच उल्लें ना

मळबा सारखें
मळबाचें मनूय विशाल आशिल्लें

**चार**

तांचे आघात सोसूं नजो जांवन
एक दीस मळब खूप रडलें
तरीय आपल्या सुजिल्ल्याच दोळ्यांनी
मळबान पळयलो संवसारांतलो आकांत
आनी आपल्याकूच एक चिमटो काडून घेतलो
वोळून, दोळे घट्ट धांपून
तेन्ना सांवन मळब मनशाळें जालां.

**पांच**

काळीज नाशिल्ल्या मनशांनी
मळबाक केन्नाच पळोवचें न्हय
खीणा-खीणाक म्हजें मळब
जिवें जायत फुलत आसता
उजवाडांतल्यान, काळखांतल्यान
उन्तांतल्यान पावसांतल्यान
आनी धुक्यांतल्यान लेगीत...

**स**

एक दीस बरेंच तापयलें
रात चडच गेली
हांव म्हज्यातल्यान देंवत गेलो
पांय झेमेताले
मळबांत चान्नेंय नाशिल्लें
मळबाकडें उलयतां उलयतां
हात वयर केले
मळबान हाती धरून वयर काडलो
बसले
खूप उलयले
देंवपाक उबो रावलो तेन्ना
मळब म्हज्या वेंगेत आयलें
आनी आपली तकली म्हज्या हड्ड्यार दवरुन
खूप रडलें

मळबाक पाचरतां पाचरतां
म्हजेय दोळे भल्ले
म्हज्या दूकांचें किदें जालें तें याद जायना
पुण जंय मळबाचीं दुकां पडिल्लीं
थंय मात धवें पीठ चान्नें दिसतालें
म्हज्या घरामेरेन.

**सात**

एक दीस असोच न्हिदिल्लो आसतना
धांय दिकां शिंपडिल्लें मळब खूप सोबित दिसलें
हाचे पयलीं मळबाक म्हजेकडें
खूप जाणांनी मागणी घातिल्ली
चिंतलें, हांव म्हण किदें करतलों येदें व्हडलें मळब?
म्हण दरे खातीर इल्लें इल्लें विकून उडयलें
हाका लागोन काय कितें,
म्हाका तेन्ना सावन झेमूच येना
बरो सुस्त न्हिदिल्लों जाल्यार
विकून उडयल्लें सगळें मळब
हांव परत घेतलो आशिल्लों
हित राखण करपाक

**आठ**

मळब धांयदिकांचे सुकाणें
कुपांचे घराणें
आनी निर्मितीचें उमाणें

# बँडीट क्वीन

फूलन,
तुजी वळख तशी अनवळखी न्हय
तरीय तू नव्यान भेटली
शेखराचे सिल्वर स्क्रिनीर
निळ्या-निळ्या मळबाच्या मनांतल्यान
आनी वणव्याचे दाहकतेंतल्यान
वोंठां भितरल्या मोनेपणांत
आनी दोळ्यांतल्या सरणाच्या तालतोलांत !
नव्यान रंगयल्ल्या सरकारी दबाज्यांत, पोन्नोच तिरस्कार
सांबाळीत, कोनशाक
आनी परत नेटान उठून ताळयो मारपाक
मनांत नासतना
तू चंबळची राणी
तू भारतीय लोकतंत्र संसद सदस्या
तू एकलव्य सेनेची संस्थापक
आनी मिर्झापूरचो अटणीचो येस

नाक बंद जाता तेन्ना तोंडान उस्कार घेवचोच पडटा
अशीच गत जाली तुजे शरणांगतिची

तुज्या वणव्याचें समर्थन करतना
बहमाई ठाकरांच्या उल्लेल्या सुल्लेल्यांच्या
अधिकारांचो हांव निशेध करता
अशें घडये तुमी म्हण्टले.
विचारांचे स्वातंत्र्य म्हाकाय आसा
फूलन देवीक मेळ्ळां तशें
नोबेल इनामाच्या प्रस्तावाचेर उलयतना

मागीर पळयली तुका
लाखांचे तुज्या अंतयात्रेंतल्यान
अतिविशिश्ट व्यक्ती खांद सारको करतना
तेन्ना याद जाता, हांचो तुजेवयलो निशेध

आनी तांच्या लाख-लाख धिक्कारां वांगडा
देड लाखाचें इनाम जाहीर करतना

फूलन, फूलाभशेनूच तुका ते सांभाळटात, मुलायम
ह्या सगळ्या बोवाळांत
मंडेला, अराफत, बुशाच्या ह्या युगांत
आपलो झेत सारको करुन नवे पोझींत
ओंपतात ते तुका फूलां दुश्ट परांपरांचे अपत्य म्हण
तसो फूलाकडें तुजो संबंध केन्ना आयलोच ना
म्हणोन फूलांची लेगीत काकूट दिसता
आनी ज्योतींतल्यानूच मशाल पेट्टा
तशें तुजें मर्ण पेटलें
तुज्या जिवीताक आपणाय नासतना
तुज्या मरणाक मारिल्ली वेंग
राजनितीक लागिल्ले दुवाळे जाले.
तरीय तुवें सोंसले ताच्याकूय चड भोगलें

बरे मनीस फकत दोन
जो अजून जल्माक येवंकना तो
आनी दुसरो मेला तो
हें जाणां जांवनूय तुज्या मरणाचो सत्कारूच जालो
मोर्चे, बंद आनी हिंसक वळणांनी
जशें हेरांचे हत्ये फांटल्यान जाता तशें
रूटीन.

फूलन, तुका पळयली आनी दिसलें
ह्या देशांत खून, खटले आनी जल्मठेपो लेगीत
माफ करूंक जातात
ग्वाल्हेर जेलीच्या किण्ण भंयाचो लेगीत हांसो करून
तेन्ना उरता फक्त सय-सुवाद नाशिल्लें लोकतंत्र.

# आंग

तांकां फक्त दिसता आंग
ताल्ल तन्नो गुबगुबीत चेरो
तुजे कुशेंसाचो विचार तर ताणी
केन्नाच केलो ना
तुज्या, आनी कोणाच्च्याय.
खुबदां दोळ्यांच्या नदरांनीच ताणी भागयल्या
आपली गरज
वा तुका दोळ्यां मुखार उबें करून, एकांतांत
वेळाकाळाचें भान दवरी नासतना
तर केन्ना-केन्नाय नदरांच्याय भायर येवन
मातयला ताणी आकांत
काळ्या-गोऱ्याचो, ल्हान-व्हडांचो फरक
जाणोन घेय नासतना
आपलें ते आपलें, दुसऱ्यांचेय आपलें
हेच प्रवृतीक खत-पाणी घालतना
आवय-बायल-भयण-चेडूं
ही संस्कृतायेची सिनालां सभ्यतेरूच दवरल्यांत
एखाद्र्या माजी पालवी मुख्यमंत्र्याच्या भाषणां भशेन
तरीय लोक ताळयो मारतात, निवडून हाडटात
हो सत्याचो कौल अशें ते समजतात
तरीय आपल्या नदरेंतल्यान पडटा म्हणपाचें
तांकां केन्नाच जाणवना

तू इंद्राणी आसूं वा सीता, अहिल्या वा पांचाली
कितेंय आसू तुजें नांव, कितेंय आसूं तुजो गांव
तुज्या नांवाकडें तांचें केन्ना कांय अडलेंच ना
आनी अडचेंय ना
तांचो संबंध फक्त बूरका कडेन

तू फकत आसा
काळजांक सुशेग दिवपी थकसाण
हाडामांसान भरिल्लें आंग.

आंग काडून तुजेकडें भोंवपाक जाता जाल्यार भोंव, बायो
नाजाल्यार, भकारे दोळे फोडपाची तांक जा

काळखांत आंग दिसना
दिसपाक जाय निळ्या-निळ्या मोनजात
दोळ्यांतलो उजवाड

तुजे ठांय आशिल्लो उठाव जागय
देवतांक निर्वंशतेचो पार्वती कडल्यान
लाभिल्लो स्राप जांवन
मरणा उपरांतूय ध्येय पुर्तीक तडफडपी अंबेचो सोपूत जावन.

## हो काळ

हो काळ एक असो
केन्नाय कोणाच्याय तकलेर बसता
हाका वेळाकाळाचें भान नासना
केन्ना कोण हाका हातां धरून
तर कोण केन्ना बोल्सांत घालून भोंवता
पुण काळजांत मात आपलो जागो
निश्चित करूंक शकलो ना
हो काळ.

लंगड्यांक चलपाक जमं नाशिल्लें
नदरेंतली वाट मुखार आसुनूय
कुड्ड्यांक दिसं नाशिल्लें संवसाराचें मुखामळ
आनी मोन्यांक आपलें विचार पुराय व्यक्त करपाक
जमं नाशिल्ले
एकूण उपास मारीचे दीस काळजाक
गळोव मारून चलताले

हो काळ फक्त काळ जाला
लंगडे भेस बरे चलतात वामनाची तीन पांवलां
कुड्डे पळयतात उघडो-उघडो संवसार
संजयाच्या दोळ्यांनी
आनी मोन्यांक रावणाची तोंडा धा
काळाचें भान दवरून कोणूय केन्नाय
लंगडो, कुड्डो आनी मोनो जाता
अधिकृत.

## वणत

एका संवसारांत आमी दोन
हांव आनी तूं
काळो आनी गोरो
दुबळो आनी गिरेस्त
'आनीन' सांबाळ्या वणत आमकां दोशी करपाची
हेंच काय तें ग्लोबालायझेशन?

भायलो, भायले भायर
भितरूय दुबाव
हांव अनवळखी
म्हाका दिसता एक घात शिजतना ह्या वण्टीभितर
शिंतीमेंसान हांव तकली वण्टीर मारता
एक जिवीत आकांत रंध्रा-रंध्रा भरसतना

म्हजे हुस्कार अंदल्यात
हांव सोदता म्हजो आवाज
जो ही वणत भेदूक पांवलोच ना
देखून उभी केली चीनी सम्राट शिह-हुंग-लीन
चायनाचो ग्रेट वॉल
आनी मानवतावाद निस्तत गेलो
तेन्ना संवसाराच्या सनातन धांव्याकडे पळोवपाची थीर
दृष्ट दूभंगली
स्वार्थ घरांत बसलो आनी आपलेंपण नडलें
संपन्नताय आनी मुक्ततायेन सैल संचार करचो न्हय
म्हण उभी जाली बर्लीनची वणत तेन्ना जर्मनीच्यो दोनीय सायडी
आपलें मन उक्तायताल्यो
1. Liberty ends here
2. Frontier of Victory

रस्ते केन्नाच सोंपनात आनी जे सोंपतात ते रस्ते न्हय
हें येवजून
हांव मेळ्ळो त्या इतिहासीक वांटपा उपरांत

वाघा गोयण्यार
जंय वणत म्हाका शेपरात करूंक शकं नाशिल्ली
तेन्नाय वण्टीची संकल्पना घडये म्हज्याच वेंगेंत पोगळटाली.

मागीर हांव शिखर बसकेंत मेळ्ळो
ताजमहाल नांवाच्या म्हारूद्र मंदीराच्या वाठारांत
विसवास आनी सन्मानाच्या झेतांत
कारगिलाच्या दिसांचे दफन करून
एकदाचो आतंकवाद काबार जांवचो म्हण
अमेरिकेचें वस्तादपण जिरचें म्हण
पूण थंयीय नडलो दर्ग्याचो अतुट विसवास
आनी पांवलां कणकणीच्या घातान जालें तें
पोखरणचें यसस्वी परिक्षण
जाच्यो वण्टी घत नात तो केन्नाच सुरक्षीत नासना
हो सिद्धांत मांडून

जंय दुस्वास रूजता थंयच्यानूच वण्टीची बुनयाद बसता
आनी वैर सरता ती मानवतेची अधोगती
जातूंत फक्त अजाणांच्या दूकांचो गाळ आसता
जांव ते जालीयनवाला बागेच्या वण्टीर
वा आडोणेवयल्या बांदार
जेन्ना जेन्ना जाणवलें वण्टीक लेगीत कान आसतात अशें
तेन्ना सत्तांचे लेगीत निसंतान जालां/जाता
इतिहासाचो येदो येस हातां आसतना
हांव भोगूंक शकना एक खोशेचें मर्ण
आमेन !

## बायल

ती बायल
केन्ना सावन भात कांडटा वायनार जीव आपटीत
उमथे मानेन
तो देंवयता तिका ताच्या दोळ्यांत
आनी तिचे मर्जेनुसार वापरता तो ताचो पुरूषार्थ
ताच्या तांकीत ती खंयच सर जायना
तिचें सोबित मुखामळावयलें हांशें
दुकांत तुटोवन पडटा
तरीय ती कांडीत आसा.
तिच्या दोळ्यांत तिचो संवसार चलता
शेकड्यांनी वर्सा जालीं

एक बायल
पोराक हांडीर मारून रेशनाच्या दुक्नार उबी आसा
कितलोसोच तेंप जालो
भरिल्ले पांय रिकामे करी नासतना
उक्त्या मळबापोंदा, नागड्या पांयांनी
आडोशाची भिरांत काळजांत लिपयत.
पोर ओडटा तिचीं पोकीं थानां.

एक बायल
चार वण्टीच्या घरांत आसा
हजार जल्म झडून गेले
जंय केन्ना पावलो ना उजवाड आनी वांगोड गाजोवपी आवाज
थंय फक्त कोयर-कस्पट, घाम आनी दूकां
थंय ती काळोख पियेंत आसा फातरा भशेन घट्ट जांवन
हड्ड्यांत दूकांचे भाण भरून
सवड मेळ्ळ्यार एकांतांत गळोवपाक
तिचो आवाज केन्ना तोंडाभायर सरलोच ना
पूत, घोव आनी बापायक राखतना.

एक बायल
न्हंयचेर धुणीं धुयता सूर्य माथ्यार धरून

पावस-उनत तिच्या माथ्या वेल्यान
अशींच पासार जायत आसात, वर्सां जालीं.
ती जिवीत सुकयता तळपांचेर.
तरीय वारो थिरायना तिचें शील

एक बायल
रांदनी पोल्ल
तरीय साज-श्रृंगार आनी सोबीतकाय
लक्ष्मीची हुलकावणी

एक बायल
आयदनां घांसून जमीन सारोवन
सुस्त घोरेत पडिल्ल्या दादल्या फुड्यां न्हिदल्या
कितलीशींच युगां जालीं
तरीय न्हीदेंत लेगीत तिचीं सपना ल्हासोन वयतात
आंगार ओतयल्ल्या घासलेटीन, कागदाभशेन
तर केन्ना तिच्या मोनजात सपनांत आंवुळटा गळो
काळीज नाशिल्लो फांस
दाउनाच्या रस्त्यारूय शिंपडटात तिचीं सपनां
शिवपतीच्या नांवान
तर केन्ना तिच्या सपनांसयत ती उकट्टा शर्माचे तंदुरीत
केन्नाच भर नाशिल्ल्या ताच्या पोटा खातीर

तरीय निर्मणेचो झेत मिरय नासतना
गर्देचें बोट धरून ती बायल संवसारांत भोंवत आसा
आपलें मुखामळ सोदीत
थारो दिवपी पांयांची जमीन विचारीत.

# सरस्वती

दोंगराच्या दुकांतल्यान
वा फांटीच्या दुकींतल्यान घडये फुट्टा
आसतलो दोंगोर
आनी मागीर एक झर वाट सोदीत देंवता
तिचें वांगडाच परत येवक लागता
गडप जाल्ली संस्कृती
जमनींत मुंगरील्ले महावृक्ष
आनी पयलीची विश्व-स्मृती, गरजेनुसार
फावं तशी
जाचो वांगोड दरून आसता
दोंगराची सनातन तिश्टावणी
तिश्टावणेंत मन अस्थिर
वाऱ्याच्या दरेक धोलणेर रंग भरपी
आनी तातूंत झर तरनाट्यापणांतूच
धुंवक लागता मनांतली दुर्बळताय
आनी झरूय जाता जागृत मनांत रूजपी देवाभशेन

झऱ्याचो खळखळ रूंद करता पाट
तेन्ना व्हाळ व्हावता गाज उरांत घेवन
तेन्ना आमी येवजूंक शकतात
दोंगराचें म्हातारपण
आनी न्हयचें तरनाटेंपण
जाका खोल्लून खोल्लून ती शिंपडटा
आपलें अस्तित्व
आनी त्या अस्तिवांत आकार घेयत रावता
एक विशाल काळीज
सगळेंच सामावन घेवपाखातीर
आनी घडये सामावपाखातीर काळाच्या ओघांत
तेन्ना तिका थांबचेंच पडटा
दोंगराच्या युगांच्या प्रतिक्षेंत
सगळेंच सांडोवन वचपाक

दोंगोर तिका ल्हवू ल्हवू आपल्यात आस्पयता
तिच्या काठावयली एक वस्ती उजाड जाता
तेन्ना मनशाळें काळीज जमनीर दवरून
यादीय स्थलांतरीत जातात
हजारांनी वर्सा उपरांतूय जागोवपाक
'हांगसरूच खंय तरी व्हावताली
न्हंय सरस्वती !'

# केशव

बंद सरयांमदली उतरां कसाक लायतना
तुजें तेजोमय मुर्तरूप म्हज्या दोळ्यांत उबें जाता
आनी हांव नियाळीत रावता
तुज्या खेळींचो म्हाभाग
आनी उपाट जिवीत भरिल्ल्या
गीतेंतलो म्हासंदेश फक्त

केशव,
तसो दिसान दीस तू मेळटा म्हाका नव्याच दिसाभशेन
म्हज्या वण्टीवयल्या कॅलेंडराची तारीख बदलीत
म्हण हांव सोद घेयना तुज्या अस्तित्वाचो
हांव जाणोन घेवक सोदीना
जिवीत आनी मरणांतलें रहस्य नचिकेताभशेन
नावूय तुजें मायावी विश्वरूप
हिराणाक्ष आनी हिरण्यकशिपूच्या आसूरी तांकीक
चिरघळयतना वराह आनी नरसिंहाचे रूद्ररूप
नावूय हांव आयकोपाक सोदता कुरूक्षेत्रावयलो कुंतीपूत
गिन्यान, कर्म आनी भक्तीयोगांत घुस्पल्लो
हांव सोद घेयना त्या आलायत्या इतिहासांतल्या संर्दभांचो
फळाची अपेक्षा करीनासतना कर्म करता तेन्ना
तू देंवता भायर म्हज्या रूदावल्ल्या काळजांतल्यान
आनी चलत रावता लोकशायीची वाट
तेन्ना उनत पडिल्लें आसता
सूर्य आनी सत्य तू एकाच वेळार दाखोवन दिता तेन्ना
वायटांचोय विनाश तू कायद्यांत बसोन घेता
जयंद्रथ आनी शिशूपालाच्या मरणाभशेन
'परित्राणाय साधूनां विनाशायच दुष्कृताम' चें
ब्रीद घेवन
तेन्ना हें स्वाभाविकपण
इतिहासाचें अस्वाभाविक कर्म जाता
तुज्या सुवर्णतुले सारखें
तेन्ना इतिहास साखर न्हिदेंत रमून वयता

ते दीस इतिहासाचे
जनता जनार्दनाचे
युग संभव धर्म-संस्थापकाचे
म्हण हांव इतिहासांत हात घालता
त्या सगळ्या खिणांतलें जिवीत वेंचपाक
म्हजी नियाळपी नदर तुजेर पडटा
आनी तू खंती जाल्ल्याचोय म्हाका मेळटा
म्हाका मेळटा तुज्या तांकीच्या वंयेचो अदमास
तुजें लिमिटेड क्षेत्र.

हे केशव,
तुजेकडें जे आसपाक जाय
ते घडये सगळें आशिल्लें
पुण गांधारीच्या सात पदरी पट्टेभितरल्या
शापाचें बळ झेलपाची तांक नाशिल्ली
आनी मानव जातीक कलंक फासपी
अश्वत्थामाच्या सांवाराचो पुर्वानुमान नाशिल्लो
म्हण त्या खिणांक लेगीत हांव कडेक सारीना
हांव इतिहासांतल्यान भायर येता
तू तर म्हज्या मनाचेर हिरो नं. १ जांवन बशिल्लो
म्हणोनूच तू बदलूंक पावता
परत म्हज्या वण्टीवयल्या कॅलेंडराची तारीख
आनी नवी उमेद
नवे स्वातंत्र्य
आनी नव्या युगाचें सारथ्य घेवन
तू म्हाका मेळटा नव्या दीसा भशेन
तेन्ना मळब तकलेक तेंकता
आनी उरता फक्त निराळें देवत्व
तुज्या वांट्यांतलें

# जमीन

एकेच जमनीर रावतात आमी सगळे
एकेच जमनीर रावोनयबीन दूसरे-दूसरे
जमनीर रावतात आमी सगळे
म्हजें तुका नाका तुजें म्हाका नाका
सगळें वयेंभितर

म्हजे जमनीर तुज्या पांवलांच्यो कुरवो
तरीय लेगीत तुजी न्हय म्हजी जमीन
हेच जमनीर हांव ल्हानाचो व्हड जालां
तेंकयलां काळीज
आनी व्हांवयलां रगत तिच्या अतिरेकाचेर
केन्ना काश्मीरांत, तर केन्ना व्हीयेतनामांत
केन्ना श्रीलंकेंत तर केन्ना अफगाणिस्थानांत

हांव जमीनदार हे जमनीचो
युगां जालीं ज़मीनदारी करतां
येवन गेल्यो मदल्या मर्दीं सांवार माजोवपी राजवटी
जाली अतिक्रमणां गाटयांची
तरीय भंगली ना म्हजी ओढ
सुटलेंना म्हजें काळीज
म्हजी जमीन ही म्हजीच
हें सांगपा खातीर हांवें पेरगांव घालपाची गरज ना
ना म्हजे जमीनींतल्यान तू वचूंक शकता
ना हांव तुजे
तरीय हांवे पळयल्यात तुमच्यो दुशीत नदरो
म्हज्या रगतांत उबो आशिल्लो आत्मसन्मान दुखयतना
केन्ना वास्को-द-गामाच्या दोळ्यांत
तर केन्ना इश्ट इंडिया कंपनीच्या वेवारांत

हांव 'हांव' नाशिल्लों तेन्ना जमीनूच जमीन आशिल्ली
आतां जमीन ना फक्त हांवूच 'हांव'
आनी आसा एक आस सगळेंच आपणावपाची

अधिकार गाजोवपाची
पाश्चिमात्य संस्कृती भशेन.

म्हाका हेंवूय खबर आसा,
हांव हात हालयत आयलां आनी हात हालयत वयतलो
स्वार्थ आनी फटकीऱ्यांच्या ह्या लांबलचक युगाक
हांगसरूच सोडून
मागीर खंय उरतलें म्हजें 'म्हजें', तुजें 'तुजें'?

जंय जमनीचे प्रश्न उपरासतात थंय रस्ते सोंपतात
आनी उरतात फकत तंटे
तेन्ना आपणें फकत आपल्याच आवाजांत बुडपाचें आसता
मेजीत दुरावो एकेच जमनीवयल्या आमच्या युगांच्या पैसाव्याचो
आनी मनाचेर तिड्डत रावपाचें
हे जमनीर रावन मळबाकडे पळोवप गवयल्ल्या
अधिकारां खातीर

## बायणा

वास्कोंत आसा एक बायणा
आनी बायणांतूय उबें आसा एक वास्को
बायणांतल्यान पासार जांवपी
वयता आपलें तोंड लिपयत
आनी करता शी-थू
आपल्या धव्या बूशकोटांतल्यान
थंयच्च्या वाऱ्याची लेगीत एलर्जी आशिल्ल्या भशेन
चार-चौघांतल्यान आपलें सोवळें सारखें करतना
तो विसरून गेल्लो आसता
आपल्या बायल-भयणींचें तोंड

ती पळयतात उघडो संवसार
दाराभितरल्या काळखांतल्यान
वांकड्या नदरेंतली वस्ती
नदरेंत वांकडी जाल्या बस्ती

वास्को-द-गामाची नदर अजूनूय घोळत आसता
बायणाच्च्या बापड्या वेळेवयल्या ल्हारांचेर

जेन्ना सगळो वास्को लंवडता आथ्रूणार
तेन्ना बायणाची पावलां मळब चडटा
बायणा रात जागयता
रात गाजयता
काळखाच्च्या आधारान

कोळींदर तोंपता कवाथ्याची आडसरां
काळखाक दारार दवरून
वळख काळखांत उरना
काळखाच्च्या गर्भांत घर करून आशिल्लें
नव्या दीसाचे मळब
दोळे मुखार येता तेन्ना
तिच्च्या दोळ्यांतल्यान

आख्यें बायणां गळून वयता
दूकांतल्यान
उजवाडाची नसाय बायणाक जाणवता जांक्ये
म्हणोनूच घडये ती लायता पेटयल्ली उजवात
शिव-लिंगाच्या क्रलेंडरामुखार
तेन्ना तिचे मुखार बायणाच्या खुशालीचे मळब
काळीजभर शिंपडलेलें आसता
असहाय्य !

# स्पोर्टस, जून २००२

आमकां पळोवन तेवूय खेळ्ळे पोटभर
तांची खोशी पळोवन आमची खोशी दोबराद जाली
आनी उबी जाली एक भावचाराची दीक
एक संघटीत मानवी शक्त
एकमेकांच्या लागीं येवपाक
मानवतेच्या मशागतीखातीर
आनी उल्लोना अर्थ जिकपांत आनी हारपांत

एकदां झुंजांच्या इतिहासान दाखोवन दिल्लें
धांकट्याशा जपानान व्हडल्याशा रशियेचेर मात केल्ली
परत एकदां तशेंच घडलें
विश्वकप फुटबॉल सर्तींत
आनी रशियेंत कोंमेस जालें गुहयुद्ध
जाळपोळ आनी हत्या लेगीत
फुडारील्ल्या रशियेंत खेळाचें राजकारण जाल्लें
हाका हिंसा म्हण्टात तर खेळ कित्याक म्हण्टात?

लेविसान टायसनाक हारयलो
रगतान भरिल्लें टायसनाचें तोंड पळोवन
काकूट लेगीत शिरशिरली
त्याच तोंडान ताणें थंय आयिल्ल्या
लेविसाच्या आवयचो उमो घेतलो, रेंसपेंदान
आनी म्हटलें : 'तुजो पुत खूब बरो, हांव खूश
तुज्या पुताच्या जैताचेर.'
हाका खेळ म्हण्टात
मनशातल्या मनीसपणांतलो

दूसऱ्यांच्या जैताचो आदर जांका करीन दिसना
तो मेरेन तरी खेळाचें राजकारण चलत रावतलें
आनी कोण तरी मनशांतलो मनीस
त्या राजकारणांतलो खेळ सोदीत रावतलो
खेळपा खातीर.

# सीता

सात-आठ वर्सांची सीता
तिच्या कुवतीनुसार काम करता
धुणी धुंयता आयदणां घासता
आपल्या इल्ल्या-इल्ल्या हातांनी वामनबाबांगेर.

आयदणां घासतना घडये मनांत येवजीता आसतली
खेळण्यांनी खेळटा
धुणी धुंयतना उदकांत नाचता
कागदाच्या व्हड्यांकडें
तिका खंयचो समजतलो
तिच्या आवयच्या उघड्या फांटीवयल्यान
समस्त बायलांच्या जुल्मांचो इतिहास
तरीय दिसता ह्या समाजान
तिका खूप किदें शिकयलां
म्हणोनूच खूपदां सुपांतले तांदूळ वेंचता-वेंचता
ती खिन्न जाता, एक लक्ष्य
वेंचून काडलेले सगळे फातर
तिच्या काळजांत एकठांय जातात
पावलां कणकणीं तिच्या आंगार येवपी
वामन बाबांची घरकान्न आता सामकी
मरून पडिल्ल्याभशेन आसता
वामनबाब जो मेला
सीतेच्या काळजांत एकठांय जाल्ले फातर
आपल्या दोन बोटांनी वेंचून काडपी कोणूच नासता

आता ती थोड्यावेळान श्रीपादबाबांगेर आयदणां घासतली
सीतेची आवय, शेवतें हेंच काम करताली
आपल्या घरांतली चूल फुंकीत
काम करून तिच्या हातां खीणां पडिल्ली
म्हणूनच घडये आटपीताली ती चार-पांच घरांतली कामां

सीतेच्या आजेन, द्वुर्ग्यान आनी पणजेन, सीतेन हेंच काम केलां
पाकल्यांच्या वेळार, पाकल्यांच्यो नदरो आवळून
घरस्त्याची परंपरा सांबाळीत

वर्सांच्या येद्या व्हडल्या काळाक
बदलावाची नवी नवी सपनां
फूरसतींत साकार जायत गेली
आनी सीतेच्या हातांक खीणां तिका
ह्याच वयांत मेळ्ळी
आवयच्या, आजेच्या आनी पणजेच्या खीणांक फांटी घालीत

आवयच्या आवयपणांतल्या कर्तव्यांतल्यान मुक्त जातना
सीतेचेय लग्न जातलें
तिकाय जातली पाच-स बूरगीं
तरीय फर्क पडचोना सीतेच्या हातांच्या खीणांक
आनी नव्या सहस्त्रकांतल्या स्वातंत्र्याच्या विचारसरणीक.

जिवीत घटत रावत सीतेच्याफुड्यां.

एक आशिल्ली तारामती
एक आशिल्ली अहिल्या
एक आशिल्ली द्रौपदी
आनी एक आशिल्ली रामायणांतली सीता
युगा युगांच्या संदर्भांत.

# जेवण

जिभेवयली रूच हाल्लीच ना
तेन्ना येवजलें
असलें जेवण सदांच मेळचें
आनी जेवपा खातीरूच जगचें

म्हाका याद जाता
म्हजो आजो सदांच जेवणाक पायां पडून जेवतालो
जेवणांत हात घालचे पयलीं
मनांतल्या देवाचें बरें मागून
घडये हें येवजून की हें जेवण
आपल्याक सदांच मेळचें
आपल्या कश्टांक थोडी उर्बा दिवंक
घराब्याच्या सवसकाये खातीर
हें जेवण म्हज्या वाट्यांतलें
आनी हांव ते जेवता, व्हडा आदरान.

सगळ्या कश्टांक फळ मेळटा अशें नासना
ह्या वेळार अशे कितलेशेच लोक आसू येता
ह्या वाठारांत
जे जमनीक पोट तेंकून न्हिदल्यात आसतले
पोटाक चिमटो काडून.

ते जगप जेवपा खातीर नाशिल्लें
जगपा खातीर जेवप आशिल्लें

जेवण हे जेवपा खातीरूच आसता
आनी तें जेवकूंच जाय
जेवण तांक भरता चलपा खातीर,
काम करपा खातीर

म्हणोनूच जेव नाशिल्लो मनीस जगूंक शकना
जशें गाडयेक पेट्रोल तशें मनशाक जेवण
जेवण हें इंधन
आनी तें जगपा खातीरूच आसचें
आनी जो मेरेन जेवणाकडें पळोवपाची
आपली दृष्टी बदलना
तो मेरेन तरी जेवचे पयली आपल्याक
अपमान जाणवले बगर रावचोना

# एका काश्मिरी तरनाट्याच्या मरणार
(... तुजे खातीर)

तो वेळ सूर्याच्या माथ्यावयलो
बंद मुठींतलो
तरीय मुखावयल्याची वळख पटपा ना इतलो
मातयेचे व्हडपण गायतना
'निझाम-ए-मुझ्ताफा' चो ताणें
मना सावंन विरोध केलो
एक साम्राज्यवादी इतिहास आताच केन्नातरी सोंपलेलो
आनी दोळे आशिल्ले उघडे अखंड भारताचे
चिनाराच्या झाडापोंदा जमलेल्या
ताच्या सगळ्या आंमीकांक
ताचे सत्य समजावप चलिल्लें
तरीय वाचलोना,
आरमाच्या दोनूच फारांनी मातयेच्या वेगेंत गेलो
अनवळखी तरनाटो काश्मिराचो.

अनवळख्यानूच माल्लो ताका
ताच्याच आवाजाच्या मातयेंत
शिपडलो ताका ताच्याच वस्तींतल्या सोसूं नजो जावपी
अमानवी युगांच्या काळखांत
जो दीसाचो लेगीत सबंद काश्मिराच्या दोळ्यार शिपडटा
आनी काळजांत देंवता धर्माचे विखाणू जावन
हे विखाणू रस्त्यांचेर, दवरन्यांचेर आनी घर-घरांनी

ताच्या मरणान उडलेलो धुल्ल
ल्हवू ल्हवू जमनीर बसतालो
आनी किण्ण काळखाचें मोनेंपण सुस्त आशिल्लें
वाऱ्यांत आनी काळजांत लेगीत

ताच्या सोबीत धव्या फुल्ल दोळ्यांत
उजवाड थरथरतालो
तेन्ना खंय मीर्गा पयलीच्या कुपांनी भरून येवपी मळब
काय वेळ थांबले ताच्या दोळ्यांत

ताका घडये मिर्गाचो अदमास लागिल्लो
जाणें युगांच्या प्रतिक्षेंत मिर्गाची वाट तेळ्ळी
तो मीर्ग येवचे पयलींच मेलो
तो अनवळखी काश्मिरी तरनाटो

# देव

'देव आसा म्हणूनच हो संवसार चलता'
संवसार फोर्साचो, खून, लुटमार, नागोणपट्टेचो
देव खेळयता मनशांक राकेस जावन
तर केन्ना सामकोच खेव जावन तकलेर बसता
आनी सोशून घेता दूबळ्या समाजाचें रक्त
देव घर करून बसता दुबळ्या समाजांत
रोयणींतल्या सर्पाभशेन
आनी ताणी आपल्या पायांकडें येवचें
हाची वाट पळयत रावता
जेन्ना ताच्या घरांत वात पेट्टा
तेन्ना देवाचे मुर्तरूप घरांत वावरत आसता
सगळी कृपा देवाची समजून
ताची सगळी जीण व्हावून वयता
मेळ जाल्ल्या गंगेच्या उदकाभशेन
तेंच उदक हे तीर्थ म्हण घोटीत रावतात
तांच्या सरभोंवतणचे वाडील्ले जग पूशीत
खरें म्हटल्यार,
ते घोटटात स्वताचोच दुबाव, अस्वस्थपणान
आनी जाणिवपुर्वक फोडलेल्या काळजांतल्या भावनांचें
जाळें पसरयतात चिमट्याची दूक जाणवय सर

देव पाडो
म्हणोनूच तो सारखोच देव, खेव
तरीय देव-देवाचो खेळ खेळटा मनीस युगां जाली
ताका मनशाबद्धल कांयच दिसना
काकूट तर दिसचना
ताका कोणाच्याच बद्धल केन्ना काय दिसना
म्हज्याय बद्धल
म्हणोनूच सपनांत येवन मागता तो भुरग्यांचें कपडे
घरामुखार रावन साद घालपी तांबड्यागुंज शेकऱ्याचो कोंबो,
म्हज्या बायलेचें मांस.

देव नियाळटा बूराक नागडेपणांतल्यान
सामुहिक पुजा करून घेतना
नागेश देवस्थानाच्या अग्रशाळेंत
तरीय व्हान्यार पडनात देवाची झवणेपणाची लक्षणां.

देव नुस्त्याचें जेवता
म्हणोनूच ताका कोणूय चलता.
बोकडो, रेडो, गाय, मनीस कोणूय.
फूलां, फळां, पानां खावन
तो आपूण शिवराकूय म्हण रूजता
देव रोवदिरो.
तरीय मनीस मरता ताचेर
आनी ऑक्टोपसच्च्या सगळ्या हातांनी
ताच्यो मागण्यों पुरयत रावता
तरीय भरना ताचो स्वार्थ कोणाच्याच दोळ्यांत

देव केन्नाच आपल्याक नाका म्हणना
मनीस सगळें ताच्या सुवादीन करीत रावता
आपल्यासैत
तरीय करीना तो हू नू चू
देवामुखार पुराय बागवल्लो मनीस
देवाची द्दुकां पुशीत रावता
देवाचें जग निर्माण करून
युगांतल्यान...

# द्रौपदी

हांवे पयलेच खेप पळयली तुका
धगधगत्या अग्निकुडांतल्यान वयर सरतना
आनी स्वंयरामेरेन त्या अग्निच्या
धगधगांसांवन पैस उरतना, तू याज्ञसेनी.

खरें म्हटल्यार,
तुजे संवसार-सुखाचे खीण नुस्त्याच्या दोळ्यांत निश्चित करप
'स्वंयवर' ह्या शब्दाचो लेगीत अवमान करप
खावपाच्या वस्तूभशेन वांटे जावप
आनी तुज्या सर्वस्वाचो धनी जावप, तुज्या मर्जेनुसार
हें येवजोपूच मूळांत न पटपासारखें
आनी तातूत पांच-पांच दादल्यांक
वेळानुसार तुजी शिरंतरां वांटतना
तुका याद जाल्लो तुजो सोमवंश
हे सोशिकतेक मुखार-मुखार अंतूच उल्लो ना.

अन्याय आनी अपमानांच्या ज्वाळांनी
तुज्या निजांतलो जागो जाल्लो अग्नी हांवें पळयला पांचाली,
तुज्या विस्कटलेल्या केसांत,
भूरळ पाडपी दोळ्यांत
आनी दगावल्ल्या काळजांत

हारील्ल्या युधिष्ठिरान तुका जुगाराक लायली
तुज्या सोबित कूडीच्या रचनेचें वर्णन करतना
आनी भायर आसतना तुका राजदरबारांत
हाजीर रावपाची ताकीद दिली
तुजी रगतान भरील्ली वस्त्रां दाखोवपाक
खरचटयत केसांक धरून ओडून हाडली
आनी घातलो हात तुज्या एक वस्त्राक दु:शासनान
कुरूवंशाक कलंक फांसतना
तुका दाखयली उघडी मांडी सम्राट दुर्योधनान
तुका वेश्या म्हण्टना कर्ण लेगीत विसरलो आपलें नीज

तरीय तू विसरली ना
जयंद्रथान केल्लो तुजो विनयभंग
आनी किचकान मारील्लो फांपार.

हे द्रौपदी,
विशाल विश्वाक वेगेंत घेवपी तुजें व्यक्तीत्व मांडटना
पयली दिश्टी पडटा तें तुजें स्वंयवरा वेळार
कर्णाक न्हयकारून बापायक सोडयतना
आनी त्याच तोडीची सहनशीलता, समतोल समंजसकाय
पांच-पांच दादल्यांचे संवसार सांभाळटना
आनी मागीर घडले ते राजदरबारांतल्या
जुगारा उपरांतचें तुजे बिनतोड बुद्धिमतेचे दर्शन
'शास्त्रान न्हयकारलेलें गुलामाचें स्वातंत्र
आनी कास्तीकांच्या मुळाक गुलामांतल्यान मुक्ती'.

हे सैरंध्री, तू राजसम्राज्ञी
तरीय आपणायलें तुवें सुदेष्णेचें किरयादपण
तुज्यांतल्या अग्निक प्रज्वलीत दवरपाक
तुजे पयली बायलांच्या सोशीकतेचो
अंत पळयलो तो जानकीच्या जिणेंत
मुकेपणांत ती जळत रावली जिणभर
आनी मनांतलो अग्नी तसोच घेवन गेली
मोन्यापणान ती भुंयकन्या
म्हणोनूच घडये मुका अग्नितल्यानूच
जल्माक येवचें पडलीं
अपमान आणि अन्याय सेगीत दवरपाक
तुज्या रगताच्या पांचूय पुतांच्या हत्येवें
दुक काळजांत शमोवक.

प्रस्फोटाच्या उद्रेकान गडगड माजोवन
आपल्या पाषाण-फातरांच्या दोंगर-दोंगुल्ल्यांच्या
विशाल तोंडान चाबडायत रावता ही प्रजल सृश्ट
तेन्ना वणव्याची सत्ता आसता
नगरां-म्हानगरांचो गीबोर जाता

आनी उरता फक्त न्हास बिबूतीची
जी फक्त वाऱ्याची पाखां लावन उडप जाणां

तुज्यांत भडकिल्ल्यो ज्वाळो
पुरूषी अहंकार जिरयताल्यो
आनी एक पापक्षेत्र कुरूक्षेत्रांत बदलतालें.

हे कृष्णे,
केशवाचे मोयपास सोडले जाल्यार
तुजें जिणेंत उरता फक्त
अग्नी आनी जळप
महाप्रस्थानाच्या वाटेवयल्या मेरू पर्वताच्या
पयल्या चडावाचेर लेगीत.

# मर्ण

दिसांच्या दरेक पावलांचेर
मर्ण म्हज्या वांगडा आसता
तशें तें घोळत आसता म्हज्या रंध्रा-रंध्रांत, अदीमधीं
घडये म्हाकाय जाण उरची
म्हण म्हाका जागयत आसता
म्हज्यांतल्या सगळ्याच पड्ट्या खिणांतल्यान
रातीच्यो राती हांव कुशी बदलीत आसता
आनी मर्णूय.

दोन्हीय हातांची बोटां एकमेकांत घुस्पोवन कटकटीत मोडून
मर्ण जागें जाता, म्हजेच भशेन
जिळमिळ्यार
तेन्ना आमी एक लांब जांबय दितात वांगडाच
कोणेतरी आमची दोघांचीय याद केल्ल्याभशेन
काय आमीच आमची?
आनी कोमेंस जाता धावणीवयलें जिणें
तेन्ना मर्ण दोळ्यांत येवन आसता
रोयणीभायर येवन आयिल्ल्या सर्पाभशेन

दीसभराच्या पसयेंत तकली वयर काडूंक जमना
तेन्ना आपल्याचेर विसर पडल्याची खंत
मर्ण व्यक्त करता
तिनसांजच्या थकलेल्या पावलांनी दडून रावन

मर्ण एकटेंच आसता रातचें घरा पावता तेन्ना
भायर-भितर काळोख वाडत वयता
तेन्ना मर्णाचे रूद्ररूप दोळ्यांत थीर जाता
तांबडे भडंग दोळे
लांबलचक केसांनी भरिल्ले हात
किण्ण रानांतल्यान मुखार मुखार
येयत रावता काय भासता
तेन्ना रोयणी भायलो सोरोप

रोयणींत भितर सरता
आनी फोसां घालीत रावता
मर्ण खोस आसता आपल्याच संर्पकांत उरिल्ल्यान

काळखाच्या कार्‍रेगाद काळ्या रंगान
मर्णाच्या दोळ्यांत ढुकां उबी रावतात
मर्ण मनशाळें जाता
तेन्ना मर्ण आपूण जावन म्हज्या फाटीवयल्यान
हात भोंवडायत म्हण्टा
'मर्णाक भियोव नाका
हांव आसा म्हणोनूच तू इतलो पयस पावला'

हांव दोळे पुसता.

# एक मनीस

कित्येक पर्वां जाली
एक मनीस तकलेर फातर घेवन
चलत आसा
समजतल्यान हेंवूय समजूं येता
की एक मनीस तकलेर देव घेवन
चलत आसा
वा देवाक बाजारांत बसोवक व्हरता
युगां जाली एक मनीस
फातरापोंदा चिड्डत आसा
पाप आनी पुण्याचो हिशोब मांडीत.

संवसाराक खांद मारून
काळीज हातार घेवन
काळखाच्या चरयेंतल्यान चलत आसा
एक मनीस सगळे जिवीत
ताच्या पडट्या पावलाचेर
आडमेळा घालपातूच धन्यताय समजता एक मनीस
आनी ताच्यो सगळ्यो हालचाल्यो
ताच्या वेळाकाळासैत आनीक एक मनीस
आपल्या काळजाच्या पेनान मनाच्या वेदीर
बरयत रावता
ताच्या करण्यांचो हिशोब
लूकसाण-फायद्यासैत आपल्या परीन
इतिहास उरप गरजेचो म्हण
जाय तेन्ना जाय तसो रजावांक संदर्भ दिवक

एक मनीस ह्या सगळ्या मनशांतल्या
काळजांत देवून हाडटा
तांच्या तोंडार उदेपी हाशें
आनी सजयता आपले घर
आपल्या बायलेच्या दुवाळ्यांक पूर्ती दियत

तो पिकयता इंडियन कणसां
गोऱ्यांचे रगत आंगांत भरून
आनी करता भोंवडी काश्मीर आनी स्वीटर्झलेंडची
सगळ्या घराब्यासैत, बदलाव म्हण
जानवे कानाक फारोवन.

एक मनीस जिवीतांतली सगळी उमाणीं
सोडोवपाच्या यत्नांत सगळी जीण सारता
आनी मळबाकडें पळयत
एक-एक लांब हुस्कार सोडीत रावता
जगपाचो वसो घेतिल्ल्याभशेन

एक मनीस काळखांतल्या काळेपणाक किर्कोत करून
उजवाडांतलें नव-निर्मितीचें तत्व आपणावन
एक रंगत शिंपडयता
तेन्ना ताच्या कश्टांचो झेत धोलता
जमनीच्या मधाळ मातयेंत
म्हणोनूच जाणवना ताका पूर आनी दुकाळांचे दुवेंस

एक मनीस
हें सगळें समजोनूय नीट चलत रावता
मानवतेची सगळी सभ्यताय पांघरोन
आपणे थरयल्ल्या रिस्केवेल्यान
जगाक जागो दिवन
तरीय जाणवना ताका ताच्यातलें दुबळेपण
म्हणोनूच दर्यातलें व्हडले नुस्ते
धांकट्या नुस्त्याक खायत रावता प्रकृती म्हण
तेन्ना सैमाच्या कृतीकूच निष्कर्श लायता एक मनीस
'समर्थ मनशां खातीरूच जिवीत आसा'

# दादागिरी

दादा परत येतले दादागिरी करूक !
एक भिरांत बंद दाराभितर थरथरतली
शिरंतरांतल्यान
जेन्ना भिरांत पेलूंक जमची ना
तेन्ना एक दीस
तुमच्याच भितरलो कोण तरी एकटो दादा जातलो
दादागिरी शिंवशिंवतली
गुंडगिरीय चलतली
'सभ्य मनशांचो हो संवसार आता उरुंक ना'
अशें दाराभितरल्यान आयकूंक येतलें
तरीय वाडटलो ताचो वंश
दुसऱ्यांच्या मनाचेर व्हडपण गाजोवंक
ताचे जैतिवंत यत्न आसतले

दादांचे येवप गरजेचें
नाजाल्यार तुमच्या वळखीचो अदमास
तुमका केन्नाच जावचो ना
तुमची काळजां घट्ट करपाक

तुमकां आनी पर्यायूच उरचो ना
आनी बंद दाराभितर घुस्मटमाराच्या आतेकान
किदें जायत म्हण कोणूच येवजूक शकचो ना
म्हण मळबा सकयल्या मुक्त संचारांत
तकली ल्हव दवरपाचे सुख जाणपाक,
चूड उखलपाचे अणभव मेळप गरजेचे
उज्यांत गरमी आसता आनी गरमी निर्मितीचे कर्तुप

इतिहासकारांच्या रानांत
दरेक फावट येवन गेल्यात तशे दादा येतले
दादागिरी आनी गुंडागिरीचे नाव सार्थ करपाक
तेन्ना कोणाच्या तरी सामर्थ्याचो एक इतिहास
नव्यान जल्माक येतलो

'सभ्य मनशां खातीर' आदर्श जावन
आनी एक चूड अग्निचें पावित्र्य घेवन
काळजांत पेटत रावतली
इतिहास दोळ्यांमूखार रावतलो
तेन्ना आदर्शांचे बाळकडू संवसार पाजीत रावतलो
जगपाच्या वायफळ यत्नांतल्यान
दादागिरी आनी गुंडागिरी नवे रूप घेतली
आतंकवादाचें
आतंकवाद म्हाभिरांकूड आसता
हें जाणां जांवनूय.

## जयहिंद !

**(सुभाष संदर्भ)**

सत्य रचनकाराची यात्रा सतत चलत आसता
थांबता तें फक्त आमच्या मनांतले मन
तुज्या अश्ट तासांच्या व्यक्तीत्वाकडें
तेन्ना तुज्या अभिनव हिन्दूस्थानच्या सर्वश्रेष्ठ फुडारपणाचो
आमकां उगडास जालेबगर रावना
तेन्ना येवजता हुवाळुन उडोवचे
सात जल्म तुज्या पायार.

जेन्ना ही माती गुलामीच्या बंद हुस्कारांनी घुस्मट्टाली
जुल्मांनी घाळ जाल्ली मनां फक्त दीस परतिताली
तेन्ना तुजें जळप स्वाभाविकूच आशिल्लें
आनी मुक्ती-क्रांतीच्या पुरसांवाक
मेळटालें नवें परिमाण
जी खाक करताली पारतत्र्यांची भावना
भिजूड मनां
आनी आपल्या रगतान, त्यागान आनी मरणान
ह्या मातयेचो इतिहास घडोवप्यांच्या ध्येयाक वरखेताली

नेताजी,
नवो उजवाड काळजांत घेवन
आपल्या निश्प्राण हातांनी फुडाराक तू मुखार मुखार धुकलीत आशिल्लो
गोडवे गायत हिंदवी स्वाभिमानाचे
'कदम कदम बढाये जा खुशी के गीत गाए जा
जिंदगी है कौम की कौम पे लगाए जा'

सुभाष,
हांव जाणां आशिल्लो तुजेकडे आशिल्ली एक भास, सुभास
एक संघटीत शक्त
आनी स्वाभिमानान जगपाची चिकाटी
आत्मविश्वासान भरिल्ल्या मुक्तीक आपणावपी उमेद
आनी सर्जन शक्त

म्हणोनूच तुज्यांतल्यान दिसलें म्हाका तेज
सुर्यकोटी समप्रभेचें

सुभाष, तुज्या सामर्थ्याक न्हयकारतना
युनियन जॅक कूटनितीच्या वाऱ्यांत फडफडटालो
अमेरिका आनी रशियेच्या बोंबलेक थुंकी लावन
अहिंसेच्या अटंगऱ्या तत्वांनी
तरनाट्या मनांतली स्वातंत्र्याची भावना
घाळ जाताली
तरीय त्रिपुरी अधिवेशनांतलें काँग्रेसीचें सार्थक नेतृत्व
तुज्याच नांवान मुखार सरलें
तरीय लेगीत स्वातंत्र्याच्या विचार प्रणालीक
फावं तो तेंको मेळ्ळोच ना
म्हणोनूच मौलवीच्या भेसांतल्यान तुका आपणावची पडली
परकी भूंय
आझाद हिंद फौजेच्या तांकी खातीर
महात्म्यांच्या विरोधांक किंकोत करून
'महात्म्यांची वाणी श्रवणीय आसली
कृती आदरणीय आसली
तरीय आचरणीय नासता'
हेंवूय तू जगावांगडा सिद्ध करीत गेलो
फासीवादी–तानाशाहीचो आधार घेवन
फक्त मुक्तीच्या सपनांक वास्तवतेचें रूप दिवपाक

स्वातंत्र्य संग्रामांतल्या महानायका,
हांवें पळयला तुज्यांतलो अग्नी
उदकांतली भिजलेली लाकडां
आपलें जिवीत हुलपावन गरम करतना
आनी जेन्ना पेट घेवपाक आयिल्लो
तेन्ना तैहोकूत सोंपयल्लें तुज्यांतले पेट्रोल
तशे तुजे मरणाचे दुबाव
इतिहास लेगीत खंयच विस्कटावक शकलोना
अतिगोपनीय तीस फायल्यो लेगीत
गुलाबाच्या वासांत गुदमरून गेल्यो
शहनाज खां आनी खोसलान कापील्ल्या शेन्तांचो तर

तोंड पुसपापुरतीच वापर जालो
मरण हे अस्तित्वाचे आसता
हे जाणां जावनूय
सगळ्यांकूच रिकामी करची पडटात
जिवीतांतली आपली आपली ध्येयां

जी पिडा जी निरशेवणी
तुका सतायताली
तुजेकडलें फूडारपण सांबाळटना
ताचे खातीर तुवें मागलें रगत
उजवाडांतल्यान धांवपाक
त्या रगतांतली सांप्रदायिकता आनी वेवहारीक नदर
म्हाका दिसता ध्येयहिन जातना
ह्या शेकड्याच्या हुमऱ्यार उबो रावतना

इतिहासान आपलें काम करू वा ना करू
तुज्यांतल्या मुक्तीच्या सपनांची पुर्ती करतना
तुज्या हुलपल्ल्या जिवीताची
हांवे घेतल्यां दखल
शंबर कोटी जनतेच्या काळजांतल्यान...

## गीम

शेऽऽ कितें गरमी !
अशी गरमी केन्नाच पडूंक ना
अशे म्हणत पिता हांव दोन घोट उदक
बसबशीत व्हावपी नळाचें
तरीय गरमी देंवल्याचे म्हाका जाणवना
दिसता कपडे काडून जेलारूच न्हिदून रावचें
गरमेन जाता खरें, कितें करू कितें ना
मात चडशें नस्तेंच

हांव घरांत भितर सरता
गरमेचें हुलोप भरिल्ल्याभशेन
तशीं घरांत आमी दोगांच
घरातूय आसता गरमी हांव येवचें पयलीं
तसो हांव अदमास घेता
म्हणोनूच काय किदें
ह्या वाठारांत सगळ्यांत चड गरमी म्हाकाच जाता आसतली
घडये तुकाय
म्हणोनूच काडटा तू राग
घराच्या सभ्यतेर
गरमेच्या जाळांनी

हांव तुका उलो मारता
आंगावयली थोडीशी गरमी
खुट्याळ्याक लावपावे यत्न करतना
तरीय पावना म्हजो आवाज तुजे मेरेन
तू तुज्यांत सांडलेली आसता,
सपनांचे मळब तकलेर घेवन
आनी गीम उकडत आसता
तरीय गरमी जपूंक जाय
चुरको आयल्यार लेगीत
कातीभितर
गरमेच्या उबाळांत तू सपनां फुलयता

एक सारखी
काळजाच्या देगेर.
अनवळखी.

प्रकृतीचे दीकेन शीड सोडटना
गरमी शिंपडलेली आसता सगळ्या जिणेर

तुजी सपनाय ह्या गरमेसारखीच आसूये
कितें करू कितें ना अशें येवजूपी

निश्चीतूच मीर्गाक पालय फुट्टली
ह्या झाडाक
आनी पांखांत मळब घेवपी सुकणीं
सांवळेची आस धरतली

गीम भूताभशेन हेडटा रस्तो विसरून
आनी गरमी
तुज्या तकलेंत घोंटीर बांदपाक गुल्ल आसता.

## महाभारत

शिरापांचें जिणें शिरंतरांत घेवन जगप
खुपूच कठीण जालें
तेन्ना ताणीं आपलें रक्त लेगीत
सुशेगाद दवरलें ना
आपलें जीणें कास्तीकांचें केलेंच
तांचेय सरण पेटत दवरलें
आनी आपल्या पुतांचें मडें आपल्या खांदार घेवन
ते चलत गेले रानवाट
जितेपणांतूच मरणाच्यो यातना सोशीत
तांच्या फांटल्यान एक वंश कोसळत वयतालो
चिक्कार भरिल्लो भाग्यविधात्या पुरूचो
तेन्ना फांटल्यान पळोवपाची तांक तांच्यात उरूक नाशिल्ली.
राजा, हें सत्यकर्म तुवें पयलींच कित्याक केले ना?
कित्याक भेटयलीना तुवें तुज्यांत रूजपी खुशालीची पुण्याय
तुज्या वंशाचें जिवीत वांचोवपाक?
तुका तुजो स्वार्थ नडलो, अशेंच न्हय?

हांव हेंवूय जाणां आशिल्लो
जो दुस्वास चिड्डूवपाक केशवान आपली तांक वापरली
तीं तांक ताणें जिवीतहानी वाटोवपा खातीर
वापरो येताली
सत्तेची सपनां भंग करून
जाणां एकल्याच्या विशाल काळजांत
अपमानांचो सुर्यास्त करून
तुवेंय तेंच केलें जें सैमाक लेगीत पटलेना
म्हणोनूच सवाशिणीची चरचरींत उतरां
तुज्याय वंशार फाळाभशेंन गेली.
आनी कल्पवृक्षा सारखो तुजो
तुजे सांवन नांवाक आयिल्लो वंश
कटकटीत मोडून पडलो
आनी शिल्लक उरिल्ली
तुज्या पट्टराणयांची लज

तोंडाक लावन गेले टकाटक
जे तुज्या नांवाच्या भंयान लेगीत
शिरंतरांतल्यान आंग काडटाले

महर्षी, हे रचनाकारा,
तुज्याच उगड्या दोळ्यांनी तुवें पळोवन घेतलें
तुज्याच संततीचें, अंटूर-पंटूरांचे दिवाळें
हाच्याकूय आनी व्हडले दुर्भाग्य खंयचे आसूं येता
ह्या उरिल्ल्या भारतांत?

## दोंगरी

हांव दोंगरेकार
पूण दोंगरेरसांवन खुप पैस
तरीय मनान मात दोंगरी केन्नाच सोडलीना
म्हणोनूच हांव परतोवक सोदता
तारी वाड्यावयल्या म्हज्या घरांत

आयकलां, सगळें बदल्ला खंय थंय
रस्ते, घरां, वाडे आनी मनशां लेगीत
वळख कशी घेवची दोंगरावयल्या दोंगरेची
आनी दोंगरेच्या तारीवाड्याची
आनी तारी वाड्यावयल्या भुत्याल्या घराची
खंयच्च्या तेरर्राच्या स्पर्धेक
उबो रावला काय म्हजो गांव
येवजूंक शकना हांव

पूण इश्टा एक सांगशी,
कोपेलाकडली सोबीत दिसपी दुतऱ्याची झाडां
आसात काय ना
आनी आसत जाल्यार भुरगीं तांची कांट्यांची फळां
काडून अजून मेरेन एकमेकांच्या फांटीर
मारतात आसतले
वारो येतगीर घोटां पुंजोवपाक
चाक्यामुळां गर्दी जाता आसतली
ओमूल्या घरावयली तांबडीगुंज बादमां
अजूनमेरेन फातरायतात, तिचें ना थांबपी तोंड उघडपाक
झोपा काजीकडल्या व्हडल्या खडपार
बीयो भाजतात काय ना?

महेश, रवळू, दिनकर, भानूदास आनी कृश्णा
अजूनमेरेन बेद्यांनी, नोकोरयानी रस्त्यार खेळटात
आनी केसराल्या वण्णेत बॉल पडटगीत
पयलीभशेन अजूनमेरेन खेळूच बंद करून धांवतात आसतले

जानाल्या घरांत फुटबॉल चलता काय ना
माणिकराव आसत जाल्यार चलचोच ना
तोरां घेवन तारवां कडेन
न्हावपाकबीन वयतात काय ना
आनी सांजेचे पावटीबांधार वाऱ्याक वयतात काय ना
चिंचेपोंदच्या दुरगार आनी कोल्याल्या सोप्यार
अजून चलतात भासाभाशी जगावयल्या राटावळींच्यो
आनी राजकारणाच्यो गजाली
अजून जातात आंबट-तीख?

जरगतीन भरिल्लो पावटी बांध साडी वैर धरून चलतना
नीरा टीचरीक अजूनमेरेन लिपून पळयतात काय ना
तीमा, रई, रमेश भानपाडींत देंवतात
काय येवजापाले खळयेंत
काय पोरव्याचेंच नुस्तें खातात
चाऱ्याची वाट पळोवन
कृश्णाक अजून मेरेन किडयारो
दादाक भाकरी
पोक्याक काणयो
आनी रमेशाक नड म्हण चाळयतात भुरगे
दुर्वासाल्या वण्टीर अजून लेगीत मोहन-कालीचें
दिनकर-सुगंधाचे
रमेश-कुसुमाचें नांव भुरगे बरयतात?

सांग इश्टा,
अशे कायच थंय चलना जाल्यार
म्हजी दोंगरी म्हाका सोदपाक
म्हाका नक्कीच त्रास जातलो.

## काश्शांव

हांव घडत वयता ह्या काश्शांवांत.
म्हज्या आवय-बापाय वांगडा
आज्या-पणज्याचो लेगीत हात लागला ह्या काश्शांवाक
हांवे पावल मारचें तें काश्शांवाचें ध्यान धरूनूच
जाल्यारूच हांव आदर्श आवय-बापायचो आदर्श पूत जातलो

म्हजें आंग वाडलें
हांवे पुस्तकांय खूप वांचली
आनी काश्शांव म्हजे तकलेक तेंकूक लागलें.
हांव चलता तकलेर पेज आशिल्यान
म्हज्या फांटीच्या पोंगांत.
म्हणोनूच हांवे आयकला आनी वांचला ताचो अणभव
म्हाका केन्नाच मेळ्ळो ना
म्हज्या नदरांच्या जगांत खंयच दिश्टी पडना
म्हाका रूखां, न्हंयो आनी दोंगोर-दोंगुल्ल्यांचो सरभोंवतण
आताचसो केन्नाय नदरांक चुकोवन आनी काश्शांवाक
फांट करून दोळे वैर करून पळयल्यार दिसता
मळबाचो एक कुडको
घडये तो ह्या काश्शांवाच्या संस्कृतीचोच भाग आसूये
तरीय म्हाका तो उसरांच दिसलो
त्याच कुडक्यांतल्यान चिड्डोन-चिड्डोन वारें भितर येतालें
म्हजें काळीज हालयत दवरपाक
आनी सुकण्यांचो सोबित आवाज आयकता आयकता दिसतालें
हांवे कान काडून सोडून दिवचे ह्या आवाजाच्या दिकेन
त्या सुरांचे म्होवेपण भरून घेवपाक
दोळे काडचे ओडून आनी ह्या काश्शांवाच्या बुरकांतल्यान
भायर सोडचे
उक्ते मळब, मुक्त भुंय आनी अथांग दर्या पळोवपाक
अणभवपाक जगाची चलणूक
आनी बांधची एक मानवतेची म्हापूजा मानवतेच्या म्हामंदिरांत.

काश्शांवाच्या काळखांत हांव पळयता एक सपन
उजवाडाची पाकटी लावन सूर्याक गळोव मारतनाची
तेन्ना आख्या मळबाची निळाय म्हज्या काळजांत देंवता
संवसाराच्या उदकाच्या घसघशान हांव न्हावन वयता
सोयर-सुतकाच्या मुक्ततेंतल्यान,
तेन्ना वादळाक लेगीत तांक उरना म्हाका उमळूंन उडोवपाक
आनी हांव म्हाका पटोवन दिवपाक हुंपून येता
काश्शांवांतलो प्रस्थापित आदर्श
ह्या संवसाराच्या भूयेर दोन पांवलां चलपाक
हड्ड्यार हात मारून
मनशाभशेन !

# महर्षि

अंबालिका, अंबिकेचें मन खंयचे परिस्थितींतल्यान गेलें
कुरूवंशाक नियोगाखातीर हयकार दितना
त्या वेळाकाळाचो हिशोब तुवें मांडलो ना महर्षि
कुड्ड्या दोळ्यांत तुवें उबें केलें साम्राज्य
तेन्ना दासीक लेगीत भोगचें पडलें
राजमहालांतल्या राणयांच्या काळजावयले दडपण
न्हय पुरूषार्थाचें म्हाभारत
म्हणोनूच घडये तुवें रंगयली गांधाराची रोवाणेची कोंबी
जिचो मातृत्वाचो नयन स्पर्श तुवें तिच्या पट्टेभितरल्या अग्नींत
भस्म करून उडयलो
आनी तिच्या सोबित मुखामुळांत पुजेक लायलो एक शाप
जाचें रूद्ररूप पांवलां कणकणीं वाडत गेलें
पुताच्या मोग-मोयपासांनी
आनी तरीय सोंपोन सोंपलें ना केशवाच्या एकसूऱ्या मरणान

पोटच्या भुरग्यांक वनवास भोग भोगतना
कुंतीच्या मनाचो तुवें केन्ना विचारूच केलो ना
आनी केलो ना तिचें आंकवरपण विभाडटना
समस्त जननीच्या इभ्रतीचें मुल्यांकन,
तरीय तुवें हस्तिनापूरचे राजलक्ष्मीक राजवैभवासांवन
वंचित केली, विदूराच्या घराची सांवळी निच्छित करतना

आनी थंय सैरंध्री विराट राजदरबारांत
किरयादाभशेन व्हावूरताली
दुर्योधनाच्या उघड्या मांडयेचो अपमान दोळ्यांत घेवन
आनी उघड्या केंसात दु:शासनाचें रक्त सोदीत
तिच्या मनांत किदें जालें आसतलें
जेन्ना किचकान राजदरबारात तिच्या कुल्यार खोंट मारतना
पांच-पांच तिचे घोव जिते आसतना?

हे द्वैपायन, हे बादरायण, हे वेद-व्यास
तुजी दिव्य दृश्टी कित्याक कमी पडली

समस्त नारीक न्याय्य करतना?
अशेंच न्हय, तू फक्त बरोवन मेकळो जालो
रूषी आनी महर्षिंचो सन्मान घेवन

तरीय तुज्या नदरेंत खंयच भंग जालें ना पतिव्रत
विशाल काळजांत फक्त सोंसून धरपाचें सत्र तुवें कायम दवरलें
हेर महर्षि भशेन चलीत
हाल, वनवास, अन्याय आनी अपमान वांट्याक दिवन
उमथ्या मानेन आनी जळट्या मनान गेल्ल्या
जानकी, तारामती आनी अहिल्लेभशेन
समस्त बायलांचो आदर्श जातना !

## जनेल

पुस्तकांत न रमपी दोळे
ताणें धांवत्या जनेलार दवरले
पैस दिसपी दोंगराची कड तो पळयत रावलो
कितलो तरी वोगोत
जनेलार आशिल्ले ताचे हात अचळय घट्ट जाले
क्षितीजाच्या एका पोतार
ताका तिवूय दिश्टी पडली,
वोंठार इंद्रधनुषी हांशे घेवन
ताचे वोंठ अचळय इस्कोळ जाले
ताच्यांत एकठांय जाल्ली
विरक्ततायेची कूतर भूंयेसपाट जाता
आनी तो
ताच्यतलें उमेदीचे रंग घेवन
त्या क्षितिजाच्या पोतार धांवता
तिचे रंग चोरपाक
कितलोसोच दोगांमदलो पैसावो
खिणांत तो हुंपता.

आता दोगांय पळयत आसात शांतपणान
धांवत्या त्या बशीच्या जनेलार
उदेपी एक सुर्या
घडये खिणांत अस्तोवपी...

## वळख

झाडांचेर बरोवचे पयली
झाडांविशी जाणां जावप खूब गरजेचें
झाडांक वळखय
हो पळय, शेकड्यांनी वर्सा उबो आशिल्लो वड
जाचे मुळां तुजी आजी तिनसांजची वात लायता
घडये ताणें पळयल्ल्या पावसाळ्यांचो आदर म्हण
हो घरावयलो पावस-वाऱ्यांतलो माड
जाचे नाल्ल तू खायत आयला
आनी तें घरा फाटलें कडूनिंबाचे झाड
नरकासूराक मारून आयलो म्हण्टगीत
तूवूय चाबता पान कडूनिंबाचें
सुरक्षित बलायकेखातीर

झाडां जमनीर थीर रावतात
उघड्या शिरंतरांनी अणभव जोडटात
मुळापोंदची माती घट्ट अंदून
झाडां कोणाक भियेनात
म्हण ती आपल्याक जाय तशी वाडत वयतात
प्रकृतीच्या संस्कारांत
झाडांचे मळब आसता
म्हणोनूच झाडां उंच वयतात मळबाच्या दिकेन
झाडांक ओढ मळबाची
मळबांतल्या झडपी कूपांची
म्हणोनूच झाडांच्या सपनांत पावस येता
आनी झाडां शिरंतरांतल्यान सुखावतात

झाडांक पळयतना झाडांच्या सावळ्यांकूय पळय
सावळ्यांक झाडांभशेन सळसळूंक जमना
ना फुलूंक-फळूंक
तरीय सावळेच्या सोदांत जीव धडपडत उरता
जिवीतभर

उनत पडले म्हण्टगीत झाडां सावळ्यांकडें संग करतात
आनी काळखांत नि:संग जातात

पवित्रतायेचे प्रतीक म्हण फुलांचो संदर्भ घेतना
तू येवन पळय तुमच्या वयेंत
तुज्या शाळे मुखावयल्या गार्डनांत
वळखय खंयचे फूल किदें
हे फूल पळय, हाका गुलाब म्हण्टात
नेहरूंच्या कोटावयलें
हिरोशीमाच्या यादेस्तीकावयलें
तुकाय दिल्लो गुलाब पैर तुज्या बर्थडेक शब्दूलान
ही रातराणी, रातीच्या काळखाक सुखावपी
आनी हेंच सूर्यफूल
सत्याचे मुखामळ पळयत रावपी.

म्हणोन म्हण्टा बेटा,
प्रकृतिचो संदर्भ परत-परत दितना
पयली प्रकृतीक बरे भशेन वळखय, समजून घे
विखारी झाडां हांगसर आसात
आनी विख कातरपीय

# निमणी कविता

निमणें येता तें मर्ण
त्या मरणापयलीची कविता
ती निमणी कविता
आपणें आपली निमणी कविता थरयल्ली नासता
ती निमणी थरता
आपली निमणी कविता कसली आसची
हाचेर खूप येवजिल्ले आसूनूय खुपदां
ती निमणी जायना
सर्व साधारण कवीची निमणी कविता
आपल्या मरणाबद्धल
असफल जाल्ल्या जिविताबद्धल
वा आपल्या अस्मरणीय खीणाबद्धल
घडये अडाण्यांच्या संदेशाखातीरूय आसू येता
तेन्ना मात तो आपल्याक ज्येश्ट समजले बगर रावना

कविता बरयता-बरयता वा
कवितेंतले उच्चांक मेळयता मेळयता
वा केन्ना एकदां मरणाबद्धलूय बरयता-बरयता
कवी जाणोवक शकना आपल्या मरणाबद्धल किदेंच

मर्ण येता एक दीस अकस्मात
कसलीच चत्राय दिय नासतना
तेन्ना कवीची निमणी कविता
घडये ताच्या मनाच्या बंद कूडांतूच उरता
मागीर जें येवजील्लें
ताच्या पयलीचें तेंच निमणें जाता
त्या निमण्याचो आनी ताच्या जिवितभर
येवजून दवरील्ल्याचो खंयच सादो संदर्भ उरना

मरणाचेर बरयल्ले कवितेक
कवी जिवीत करता खूपदां, घडये सासणांत
म्हणोनूच ती विस्मरणांत उरता

फुलत रावता काळजा-काळजांत
कवीच्या मरणां उपरांतूय

कवीच्या शब्दांची ताकद शुक्राचार्याच्या
संजीवनीच्याकूय खर आसता
सप्त-चिरंजिवांच्याकूय शाश्वत जाता
म्हणोनूच सगळे मरून गेल्ले कवी
आप-आपल्या कविता विश्वांत जीवे आसात.

## बाबू ! तू खंय पूण गेलो?

बाबू, तुका निमणो पळयलो तेन्ना
काळखाच्या सत्तर आनी तीन वर्सांक
बिरमत फुटील्ली
तेन्ना काळखाकडें उतर काडपाची तांक नाशिल्ली
तेन्ना म्हाका दिसलें
तुज्या दोळेमुखार काळखाशिवाय
आनीक कांयच नाशिल्लें
आमचें घर काळखांत आशिल्लें

वाऱ्याक लेगीत जमलेंना काळोख व्हावोंवपाक
आपल्या यत्नांचे दूख काळजांत घेवन
वारो वग्गी आशिल्लो
हाची खबर मात तुका नाशिल्ली
घडये वाऱ्याकडें दूसमानकाय आखपाची
ही तुजी पयलीच आनी निमणी तारीख

तुज्या मरगादपणाचो फायदो घेतना
हांव पळयता तुज्या विशाल काळजांत
वोणोव घालून
थंय सोशिकतेक अंतूच नाशिल्लो
आनी एक न्हंय आंगार कांटो हाडून फास धांवताली
समर्पिताचो ध्यास घेवन
मुखार उब्या आशिल्ल्या काळखाकडें
शितीद दवरी नासतना
उजवाडाचें क्षेत्र काळ्याकिट्ट काळखान
काबीज केल्लें
चोपूसल्यांनी घुरी घालून
म्हणोनूच आवाजाचे वोंठ जेल जाल्ले
तरीय अग्निचो रखरख जो तुवें धांपून दवरील्लो
तो हांवे पळयलोच
पूण केन्नाच जाणवलोना तुज्या मोनजात जिणेंत

तशें आयजूय आशिल्लें तुजें मळब
सगळेच फांस अंदून
थंय चोवथ्याचे*, मोट्याचे* आनी व्हड्यावयले कश्ट
मोडून पडिल्ले
बाबऱ्याल्या परायेवेल्या व्हड्याभशेन

रात, तूवूय कित्याक कांयच उलयना?
बाबूच्या काळजाचो आसोर घेवन
तूवुय कित्याक संवकल्या काळखाक तेंकून?
बाय, तुज्या दोळ्यांतलें मळब
इतलें सांडिल्ल्याभशेन कित्याक दिसता?
व्हडलोबाब, तू खंयच्या निमण्या उतरांचो
उगडास करून चिंतेस्त जाला?
आई, तुजें तोंड इतलें सुकिल्ल्याभशेन
कित्याक जालां?
तुमी सगळीं वग्गी कित्याक आसात?
कित्याक कायंच उलयनात,
हांव निमाणी पावलां म्हण?
बाबू!
तू कोणाक कांयच सांग नासतना
खंय पूण गेलो रे?
तुका आयज खंय म्हण सोदपाचो
ह्या मोडून पडिल्ल्या मळबापोंदा?

---

** चोवथो आनी मोटो : दोन धांकटी शेतां*

सबंद पुस्तकांतल्यान गेल्या उपरांत होलमलें ते
अग्निचें सार्थक नाव.

सुर्याचो भुंयेवयलो शाश्वत अवतार म्हणजेच
अंग्नी.

खांडेकार पयली सावन बंडखोर बरोवपी कवी.
रावपी दोंगरेर. जाच्या गावांतूच दोंगोर आसा. दोंगोर
आयलो म्हण्टगीत झाडांझोपां आयलीच दोंगराच्या
पायतळां मागीर न्हंय. ही प्रकृती. जुवारी न्हंयचो
इल्लोसो एक फाटो ह्या दोंगरेक भोंवतण घेवन वयता.
ह्या दोंगरेची व्हडवीकाय खांडेकारान मुखार चलयल्या.

प्रस्तूत कवितेंत कवीन वर्तमानाचेर विडंबन
करून ज्या दिकेंतल्यान पावल माल्ला आनी त्या
दिकेंतलें दुखूणें यथार्थांतल्यान भौसामूखार येवप होच
आपल्या लेखणेचो धर्म समजला म्हणोनूच ही कविता
चड करून सजीव आनी सर्वसामान्याची जावक
पावल्या क्रांतीचे आनी सर्जनाचे मुखामळ घेवन. तशें
पळोवक गेल्यार खंयचोच संवेदनशील बरोवपी
आयज-कालच्या घटना चक्रांतल्यान अलिप्त उरुकूच
शकना. जुल्म, अत्याचार, आतंक तर दर दिसा खंय
ना खंय घडत आसता, कितलेशेच निरपराध हाचे बळी
थरतात. ह्या परिस्थितीचें व्यक्तींच्या अंर्तविश्वार पडपी
प्रभाव, व्यक्ती आनी समूह निरपेक्ष विश्वात्मकता
आपल्या कवितेंतल्यान मांडून अग्नीन पेट घेतला
वास्तवासांवन अतिवास्तवामेरेन. खूबकडें कवीची
भावूकताय दिश्टी पडटा म्हणूनूच हाका लागून
खांडेकारांची कविता जिवितांतल्या तणावांचे आंदोलन
म्हण उबी रावल्या.

कवीची फाटली पुस्तकां पळयत जाल्यार ताच्या
साहित्य प्रवासांतल्या अणभवाची मुळां अग्नीन आनीक
खोल वेल्यात हे जाणवले बगर रावना. तीव्र संवेदना,
उत्कट भाव, विचारगर्भ चिंतन, विलक्षण कल्पकता ही
तांच्या अणभव विश्वाची विशेष रूपां अग्नींत दिश्टी
पडटात. तळागळांतल्या समाजाविशीं अग्नी नक्कीच
एका सफल नेतृत्वाचो एक यथार्थ यत्न.

अग्नी संग्रहांत रचनात्मक संघर्षाची खूब रूपां
आसात, ती कोंकणी कवितेक संवसारीक साहित्य
मळार एक खाशेली सुवात मेळोवन दितली. आपले
दायज आनी संस्कृती हाची जाण दवरून संवसाराच्या
आदितत्वाकडे वचपी हो चैतन्य प्रवास